।। श्री सरस्वतीदेव्यै नमः ।।



एषा सरस्वती पुण्या नदीनामुत्तमा नदी ।
प्रथमा सर्वसरितां नदी सागर गामिनी ॥

॥ महाभारत ॥

प्रो. बस्तीमामांक,
आदरपूर्वक...
(भूषण भावे)

# नदी सरस्वती


**लेखकः**

**डॉ. एम. ए. जयश्री**

**प्रा. एम. ए. नरसिंह**

**अनुवादक**

**डॉ. भूषण भावे**






**श्री. बाबासाहेब (उमाकांत केशव) आपटे**

**स्मारक समिती ट्रस्ट बेंगळुरू, कर्नाटक**

# नदी सरस्वती

## मूळ इंग्लीश


बरोवपीः

**डॉ. एम. ए. जयश्री**

आनी

**प्रा. एम. ए. नरसिंह**

**कोंकणी अनुवाद**

**डॉ. भूषण भावे**



**प्रकाशकः**

श्री. बाबासाहेब (उमाकांत केशव) आपटे स्मारक समिती ट्रस्ट,
यादव स्मृती, 55 फस्ट मेन, शेषाद्रीपुरम्, बेंगळुरू. 560020





(पयली मूळ इंग्लीश आवृत्ती- 2011)

**कोंकणी आवृत्ती-** 2018

प्रती - 500

पानां - 56

**अक्षरजुळणी आनी मुखचित्रः** **उज्वला उ. नाईक**

मो. 7218798172 / 9552954189

**छापणावळः** कस्तुरी ग्राफिक्स

**विनामुल्य वितरणा खातीर**

||श्री ||

||ॐ ||





**प. पू. श्रीमत्शिवानंद सरस्वती स्वामीजी**
**श्री गौडपादाचार्य मठ, कवळें, फोंडें, गोंय**

श्रीमतपरमहंसपरिव्राजकाचार्य-पदवाक्यप्रमाणपारावारपारीण यमनियमासन प्राणायामप्रत्याहारध्यानधारणासमाध्यष्टांगयो गानुष्ठानगरिष्ठनिष्ठानादि गुरूपरम्पराप्राप्तनिगमागमसार-श्रुतिमार्ग प्रकाशक सर्वसन्त्रस्वातन्त्र श्रीमज्जमदग्नित नुजतपस्स्वाध्यायाद्यर्थविनिमित-शूर्पारकमहाक्षेत्र-गोमन्ताचल गो मतीतीरसन्निहित कुशस्थलीनगर-महामठादिप्रतिष्ठापनाचार्य सकलसुरमुकुटमणिनीराजित-दिव्य श्रीभवानीशङ्करपादारविन्दाराधक श्रीमदपूर्णानन्दसरस्वतीकरकमलसंजति-श्रीमत् सच्चिदानंदसरस्वत्यनुगृहित श्रीमत्-शिवानन्दसरस्वतीश्रीपादैः

अस्मदत्यन्तप्रेमास्पदीभूत-श्रीमदुमारमणचरणारविन्द-भक्तिपरायणशिष्यवर्य-श्रियाविराजित-राजमान्य राजश्री. भूषण भावे, इतिहास संकलन समिती गोवा, पणजी गोवा निवसिंधु कृतनारायणपूर्विकाशिष समुल्लसन्त्वद्य शके १९३९ हेमलम्बी नाम संवत्सरे चैत्र वद्य चतुर्थी भृगू वासरावधि कैवल्य मठे, गोवा प्रान्ते कुशलिनःस्मः। भवदीयानामनामयत्वमनुदिनमेधमानमाशास्महे ||

विशेषस्तु-

प्रस्तूत आज्ञापत्राक कारण म्हणल्यार तुमचें ८ जानेवारी, २०१७ चें विनवणी पत्र श्री संस्थानाक प्राप्त जालें. वाचून मजकूर मतींत आयलो. तुमी 'सरस्वती नदी' विशयांतल्या मुळाव्या तीन पुस्तकांचो अणकार कोंकणी भाशेंत करतात, ते वाचून समादान जालें.

तुमचो हो उपक्रम खऱ्यांनीच तोखणाय करपा सारको आसा. समस्त कोंकणी भाशक समाजाच्या गिन्यानांत ह्या ग्रंथांक लागून भर पडटली आनी माता सरस्वतीचें म्हत्त्व तांकां कळटलें. तुमचो हो उपक्रम जैतीवंत जावचो हे खातीर श्री संस्थानाराध्यदेव श्री भवानी शंकर चरणीं प्रार्थना करून गंधप्रसाद धाडटात.

सुज्ञेषु किंबहुना लेखनेण.

शकेः १९३९
दि. १४.०४.२०१७

(Mrs.) Mridula Sinha
Governor of Goa

(श्रीमती) मृदुला सिन्हा
राज्यपाल, गोवा




Raj Bhavan
Goa-403004

राज भवन
गोवा-४०३००४

# शुभकामना संदेश

मुझे यह जानकर बहुत प्रसन्नता हुई कि श्री बाबासाहेब (उमाकांत केशव) आपटे स्मारक समिति ट्रस्ट, बैंगलोर और इतिहास संकलन समिति, गोवा द्वारा ''नदी सरस्वती'' नामक पुस्तक का प्रकाशन किया जा रहा है।

सरस्वती नदी पौराणिक हिन्दु ग्रंथों तथा ऋग्वेद में वर्णित मुख्य नदियों में से एक है। ऋग्वेद के नदी सूक्त के एक श्लोक (१०.७५) में सरस्वती नदी को यमुना के पूर्व और सतलुज के पश्चिम में बहती हुए बताया गया है। महाभारत में सरस्वती नदी को प्लक्षवती नदी, वेद स्मृति, वेदवती आदि नामोंसे भी बताया गया है।

वैदिक सभ्यता में सरस्वती ही सबसे बडी और मुख्य नदी थी। इसरो द्वारा किये गये शोध से पता चला है कि आज भी यह नदी हरियाणा, पंजाब और राजस्थान से होती हुई भूमि के नीचे से होकर बहती है।

बाल्मीकि रामायण में भरत कैकय देश से अयोध्या आने के प्रसंग में सरस्वती और गंगा को प्यार करने का वर्णन है- 'सरस्वती च गंगा च युग्मेन प्रतिपद्य च, उत्तरान् वीरमत्स्यानां भारूण्डं प्राविशद्वनम'। श्रीमद्भागवत गीता में यमुना तथा वृषद्वती के साथ सरस्वती का उल्लेख है।

प्रयाग में गंगा, यमुना और सरस्वती नदी एक जगह जाकर मिलती है

जिसे संगम कहा जाता है। इस प्रकार से सरस्वती नदी आज भी हमारे बीच उपस्थित है। और कइ संस्थाएँ इसके प्रमाणिकता के लिए वर्षों से अनुसंधान कर रहीं हैं।

आज आवश्यक है कि सरस्वती नदी के बारे में आज की युवा पिढी को बताने की। मुझे विश्वास है कि, इस पुस्तक के माध्यम से आज की युवा पिढी अपनी विरासत में पाई इस नदी के महत्त्व को अवश्य जानेगी और समझेगी।

मैं इस पुस्तक से जुडे सभी लेखकों को बहुत-बहुत बधाई और शुभकामनाएँ देती हूँ।

**मृदुला सिन्हा**
**राज्यपाल, गोवा**

❑❑❑

# सरस्वतीचे शोधयात्रेंत आमचीय फुलाची पाकळी...



श्री. श्रीनिवास धेंपो

वेदकालीन सरस्वती न्हंय आनी तिचें अचकीत गुप्त जावप हाचे कुवाडें भारतीय समाज मनाक पिळग्यान पिळग्यो पडत आयलां. ती 'गुप्त' जाली जावंये, पूण भारतीयांच्या मतींत मात सदांच जिती उरली. युगानयुगां भारतीय समाज तिचें प्रातःस्मरण करीत आयलो. गंगेच यमुनैश्चैव गोदावरी सरस्वति। नर्मदे सिंधु कावेरी, जलेस्मिन् सन्निधिम् कुरू।। अशी तिची याद हरघडी काडीत रावलो.

ऋग्वेद हो जगांतलो सगळ्यांत प्राचीन ग्रंथ मानतात. ऋग्वेदांतल्या ऋचांनी जिची महती गायली अशी ही सरस्वती न्हंय, तिचें स्थान, तिचो प्रवास हाचेर उजवाड घालप आयज पुरातत्त्व सर्वेक्षण आनी उपग्रह चित्रांकनाच्या नवनव्या संशोधनांतल्यान बऱ्याच प्रमाणांत शक्य जालां, अशें म्हणूं येता.

आमच्या प्राचीन संस्कृत साहित्यांत उल्लेख आशिल्ली ही सरस्वती न्हंय खंय आशिल्ली, कशी आशिल्ली, ती खंय मेरेन पावताली, तिच्या कांठार कशे तरेची संस्कृताय आनी वसणूक आशिल्ली, हें सोदपाचो यत्न जायत्या जाणांनी आजवेर केलो. कोणाच्या मताप्रमाण ती हिमालयांत उगम पावताली आनी पश्चिमवाहिनी जावन अरबी समुद्राक समर्पीत जाताली, तर कोणाच्या मतान ती शिवालिक पर्वतार उगम पावून सौराष्ट्रांत प्रभासतीर्थार समुद्रार्पण जाताली, पुण कालांतरान राजपुतान्या मेरेन येवन गुप्त जाली.

महाभारताच्या शल्यपर्वांत सरस्वतीचो उल्लेख येता. ऋग्वेदाच्या सातव्या मंडलांत 95 आनी 96 व्या सुक्तांत एक न्हंय आनी देवता म्हण तिचो उल्लेख येता. आमच्या पुराणांनी तिचे उल्लेख येतात. कोण तिका अत्री ऋषीची कन्या म्हणटा, कोण शापीत देवता म्हणटा. अशी ही प्रणोदेवी सरस्वती आमच्या मना-काळजांत आपले अक्षय स्थान निर्माण करून युगायुगां रावल्या.

ऋग्वेदांत आर्यांनी तिची प्रार्थना केली. अमौलीक संपत्ती कडेन आमकां व्हर,

आमकां दुर्बल करू नका, पयस लोटू नाका, आमचे सेवेचे कौतूक कर, तुका सोडून आमकां वचपाक दिवं नाका. अशी ही सप्तथी सिंधुमाता म्हळ्यार सिंधुपरसय श्रेष्ठ मानली. सरस्वतीक आमी इतलो काळ गेलो तरी विसरूंक नात. जसजशे आमचें विज्ञान आनी तंत्रज्ञान अदीक प्रगत जायत गेलें, तसतसो हो सोद अदीक अर्थपूर्ण आनी नेमकेपणान जावंक शकलो.

संशोधकांनी आनी विचारवंतांनी जाय ते तर्क उक्तायले, पूण सगळ्यांचें एकमत मात एका गजालीर आशिल्लें तें म्हळ्यार सरस्वती न्हंयेचे आमचे भारतीय संस्कृतींतले स्थान आनी तिचें म्हत्त्व. वैदीक संस्कृतीचो प्रचार आनी प्रसार करपांत सरस्वती न्हंयेचें व्हड योगदान आसा. खंयचीय संस्कृती ही न्हंयांच्या कांठार फळता, फुलता. सरस्वती न्हंय तरी ताका कशी आडवाद आसतली?

आर्य भारतांत भायल्यान आयले काय हांगच्यान भायर गेले हाचेर आयज लेगीत जगभरांत संशोधकां मजगती व्हड वादविवाद चालू आसात. जेनेटिक्साचे मदतीन हाचेर अदीक उजवाड घालपाचे यत्न आज जागतीक स्तराचेर सुरू आसात.

सरस्वती ही जगांतली सगळ्यांत प्राचीन अशी न्हंय आशिल्ल्यान तिच्या कांठार जाल्ले वसणुकेचे धागेदोरे जर आमका मेळपाक शकले, जाल्यार फकत भारताच्याच न्हय, तर पुराय जगाच्या इतिहासाचेर एक नवी नदर मारप शक्य जातलें. सिंधू संस्कृतीच्या सोदा उपरांत जशे मानवी वसणुकीचे, तिच्या विकासाचे नवे पांवडे मुखार आयले, तशेंच सरस्वती न्हंयेच्या सोदांतल्यान जांव येता, इतलें हें म्हान कार्य आसा. म्हणुनूच जेन्ना हे सरस्वती न्हंयेचेर उजवाड घालपी आनी खासा करून भुरग्यां मेरेन हो इतिहास पावोवपी पुस्तकांचो प्रस्ताव आमच्या धेंपो चॅरिटेबल ट्रस्ट मुखार आयलो, तेन्ना आमीय ताका उत्साहान प्रतिसाद दिलो. हो सगळो प्राचीन इतिहास आयचे नवे पिळगे मुखार वचपाची गरज आसा, अशें म्हाका मनाकाळजा सावन दिसता. हे भावनेन आमी हे येवजणेक अर्थीक आदार दिला. ह्या उपक्रमांतल्यान ह्या अंतःसलीला सरस्वतीचेर नवो उजवाड पडटलो आनी नवे पिळगेक तिचेर अदीक संशोधन करपाची प्रेरणा मेळटली, अशी आस्त परगटायतां.

देव बरें करूं.




भो. श्री. बाबासाहेब आपटे


भो. श्री. मोरोपंत पिंगळे

## ।।श्री गुरुभ्यो नमः।।

श्री. बाबासाहेब आपटे हांणी राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाच्या रुपांत आपलें पुराय जिवीत देशा खातीर ओंपलें. तरणाट्यां मर्दी राष्ट्रीयतेची भावना निर्माण करपाचो तांचो हावेस आशिल्लो. भारताच्या खऱ्या इतिहासाचें लेखन ही आमची राष्ट्रीय जापसालदारकी, हाची गरज तांणी वळखिल्ली.

श्री. मोरोपंत पिंगळे एक म्हापुरूस आशिल्ले. तांणी बाबासाहेब आपटे हांचें सपन साकार करपा खातीर भारतीय इतिहास संकलन योजनेक मूर्त रुप फावो करून दिलें. तांणी शिवालीक पर्वतरांग धरुन प्रभासतिर्था मेरेन सरस्वती न्हंयेच्या मार्गाचो सोद घेवपाचे नदरेन एका पंगडाची स्थापना केली.

आपलें सपन प्रत्यक्षांत येतना पळोवंक आयज हे दोनूय म्हापुरूस आमचे मर्दी नात. पूण सरस्वतीची काणी भारतांतल्या सगळ्या मुखेल भासांनी बरोवन तिचें विनामुल्य वितरण देसभर जावपाचें तांचें सपन फळाक आयलां, हें सांगूंक आयज आमकां अभिमान दिसता.

ही साहित्यकृती आमी व्हडा नमळायेन त्या दोनूय म्हापुरसांक ओंपतात.

**श्री. बाबासाहेब (उमाकांत केशव) आपटे**
**स्मारक समिती ट्रस्ट, बेंगळुरू, कर्नाटक**

# प्रस्तावना

वेदकाळांत सरस्वती न्हंयेचो सोद म्हणल्यार फाटल्या 25 वर्सांचे अथक यत्नांचें फलीत. आयज हे न्हंयेच्या अस्तित्वा विशीं कोणाच्याच मनांत दुबाव उरुंक ना. तिच्या प्रवाह मार्गाची निश्चिती पुरातत्वी सर्वेक्षणां आनी उपग्रहांतल्यान काडिल्ल्या चित्रां वरवी जाल्या. ऋग्वेदांतल्या उल्लेखा वरवी सरस्वती न्हंयेच्या आनी तिच्या पालवी न्हंयांच्या विशाल आकाराची गवाय मेळ्ळ्या.



कृ. नरहरी

भारताचो इतिहास आनी संस्कृती हांचे विशीं गिन्यान प्राप्त करपाचे नदरेन वैदीक सरस्वतीचें भोवच महत्व आसा. सरस्वतीच्या कांठारच वैदीक साहित्याचें सृजन जालें आनी हांगाच्यानच पुराय संवसारांत वैदीक संस्कृतायेचो प्रसार जालो.

इतिहास संकलन येवजणेचे संघटन मंत्री श्री. हरिभाऊ वझे हे विशाल येवजणेचे मुखेल उर्बा-स्रोत आनी आधारस्तंभ आसात, तांचे आमी उपकार परगटायतात. शालेय भुरग्यां खातीर बरयिल्ले हे पुस्तिके खातीर आपले कडली सामुग्री फावो करुन दिल्ले खातीर आमी श्री. कल्याणरामन हांचेय उपकार आठयतात.

ही पुस्तिका संक्षिप्त रुपांत बरोवपाचे आव्हान पुराय केल्ले खातीर बरोवपी

आनी हेर कलाकारांचेय आमी उपकारी आसात.

भारताच्या खांची-कोनश्यांतल्या शालेय विद्यार्थ्यां मेरेन हें पुस्तक निःशुल्क पावोवपाचे नदरेन अर्थीक पालव दिल्ले खातीर आमी कर्नाटक सरकाराचेय बी आभार मानतात.

भारताच्या चौदा भासांनी ह्या पुस्तकाच्या प्रकाशनाचो वावर हातांत घेतिल्ले खातीर राष्ट्रोत्थान मुद्रणालयाचेय आमी उपकारी आसात.

निमणें, हे येवजणेच्या जैता खातीर आमी 'सरस्वती नदी परियोजनेचे' पदाधिकारी आनी संपादक हांकांय बी देव बरें करूं म्हणटात.

## उपकार

श्री. बाबासाहेब आपटे स्मारक समिती ट्रस्ट, बेंगळुरू हांणी आतां मेरेनः

1. सरस्वती – डॉ. एस. कल्याणरामन (इंग्लीश) (2000)
2. सरस्वती विशींचे सात खंड – डॉ. एस. कल्याणरामन (इंग्लीश) (2003) आनी
3. पुण्यसलिला सरस्वती नदी – डॉ. देवेंद्रसिंह चौहान (हिंदी) (2004)

हे ग्रंथ गोंय सरकार, आय. सी. आय. सी. आय. बँक आनी व्यक्तीरूप आश्रयदात्यांच्या अर्थीक पालवान उजवाडायल्यात.

प्रस्तूत पुस्तक कर्नाटक सरकार आनी सहृदय हिंतचिंतकांच्या अर्थीक पालवान चवदा भारतीय भासांनी उजवाडावपाक आमकां भोवच खोशी जाता. ह्या सगळ्यांच्या पालवाक लागूनच सरस्वती न्हंयेचो दोळो दिपकावपी इतिहास शालेय विद्यार्थ्यां मेरेन पावोवप शक्य जालां. साबार शिक्षणीक संस्थांक भेट

म्हूण आमी हें पुस्तक विनामुल्य वितरीत करतले. ताका लागून आंतरभारतीचें आमचें सपन पुराय जातलें.

ह्या भव्य उपक्रमाक उर्बा दिवपी कर्नाटक सरकाराचें आनी हेर आश्रयदात्यांचे आमी काळजा भावन उपकारी आसात.

कृ. नरहरी
व्यवस्थापक विश्वस्त,
श्री. बाबासाहेब आपटे स्मारक
समिती ट्रस्ट, बेंगळुरू

# ‘इतिहास संकलन समिती, गोंय’चे वतीन



वरद सबनीस

रुशीचें कूळ आनी न्हंयेचें मूळ सोदपाचे भानगडींत पडचें न्हय, असो खर समज आशिल्ल्या आमच्या भारतीय समाजाचे एकंदरीत जडणघडणींत रुशीमुनींनी अर्जीत केल्ल्या गिन्याना सयत न्हंय-तळयांक लागून गिरेस्त जाल्ले संस्कृतायेचो गिरेस्त वांटो आसा. देखून भारतीय समाजमनाचो इतिहासीक नियाळ करतना न्हंयेच्या मुळा मेरेन वचप अपरिहार्य आसा.

प्राचीन भारतीय संस्कृतायेच्यो जायत्यो खुणो आनी कुरवो सिंधू, सरस्वती, गंगा, यमुना, नर्मदा, गोदावरी, कृष्णा सारक्या साबार जलदायिनी न्हंयांच्या कांठार सापडटात. देखुनूच सूर्य, चंद्र, दोंगर, न्हंयो हांचो ऋग्वेदांत देवी-दैवतांच्या रुपांत उल्लेख केला. मॉर्टीमर व्हिलर हांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार'' सिंधू न्हंयेन भारतवर्षाक संस्कृताय दिल्या आनी गंगा-यमुनेन धर्म दिला''.

प्रागैतिहासीक कालखंडा सावन ते आयजच्या ‘न्हंय-जोड प्रकल्पा मेरेन’ आमचो समाज न्हंयांचें महत्व जाणटा. भारतीय समाज सगळ्याच न्हंयांक आवय भशेन मानता. पूण हेर न्हंयांचे तुळेंत सरस्वती न्हंयेचे बाबतींत अभ्यासकांनी इल्लें दुर्लक्ष केल्ल्यान समाजांत ते विशीं अज्ञान पातळिल्लें. ब्रिटीशांचे राजवटींत आमच्या समाजाचो इतिहासा कडेन पळोवपाचो दिश्टीकोन बदल्लो आनी दुर्दैवान आमचे मदलेच कांय अभ्यासक प्राचीन भारतीय इतिहासा कडेन ‘भाकडकथा’ म्हूण पळोवंक लागले. हीच गजाल कांयशी सरस्वती न्हंयेचे बाबतींत घडली.

ज्या काळांत हडप्पाकालीन संस्कृतायेचो अभ्यास सुरू जालो, त्या

काळांत संशोधकांनी हे संस्कृताये कडेन साधर्म्य आशिल्ल्या थळांचो 'सिंधू न्हंयेच्या कांठा वयली संस्कृताय' असो उल्लेख केलो. पूण जसो जसो हे सुमार ५००० वर्सां आदले गिरेस्त संस्कृतायेचो चड खोलायेन अभ्यास जावंक लागलो, तसो तसो साबार गजालींचेर उजवाड पडत गेलो आनी जायत्यो अपरिचीत गजाली उक्ताडाक आयल्यो. हडप्पा कडेन साधर्म्य आशिल्लीं शारां, थळां फफत सिंधू न्हंयेच्या कांठार न्हय तर एके शुश्क न्हंयेच्या कांठार आशिल्ल्याचें होल्मलें. घग्गर आनी हाकरा ह्यो ल्हान पावसाळी न्हंयो लेगीत हे शुश्क न्हंयेच्या न्हंये पात्रांतल्यान व्हांवता आशिल्ल्याचें अभ्यासकांचे नदरेक आयलें. कालीबंगन, राखीगढी, बीनजौर, सोथी, सिसुवाल ह्या सारकीं प्राचीन शारां हेच शुश्क न्हंये कांठार आशिल्लीं हें मतींत येतकीच अभ्यासकांनी प्राचीन सरस्वतीचो अभ्यास करपाक खर्या अर्थान सुरवात केली. ह्या वावरांत अमलानंद घोष, ब्रजवासी लाल, सुरज भान, के.एन. दिक्षित, बी.के.थापर, रविन्द्रसेन बिष्ट, अमरेंद्र नाथ, वसंत शिंदे, गुरूदीप सिंह ह्या नामनेच्या पुरातत्व शास्त्रज्ञां भायर मुखेलपणान डॉ. कल्याणरामन हांचें योगदान भोवच महत्वाचें आसा. ह्या सगळ्या अभ्यासकांच्या संशोधनाक लागून आयज सिंधू संस्कृतायेक 'सिधू-सरस्वती संस्कृताय' ह्या नांवान वळखतात. सरस्वतीचेर आदारिल्ले हे तीन ग्रंथ लेगीत ते नदरेन उबारिल्लें एक पावल.

हो पुराय वावर अभ्यासक्रमांतल्यान येवप, ह्या विशयांत चड संशोधन जावप, प्राचीन ग्रंथांनी उल्लेख जाल्ल्या पुराथळांचें उत्खनन जावप गरजेचें आसा. बाळासाहेब आपटे स्मारक समितीन हातांत घेतिल्ली ही येवजण साप्प उण्या काळांत पुर्णत्वाक आयल्या. इतिहास संकलन समिती, गोंय हे संस्थेक हो राश्ट्रव्यापी वावर वाचप्यां मुखार हाडटना आनी सरस्वती न्हंयेची ही कथा कोंकणी भाशेंतल्यान लोकां मुखार दवरतना भोवच खोशी जाता.



# सरस्वती न्हंयेची काणी

आमचो मोगाळ इश्ट, रंजक जाणकार आनी मार्गदर्शी आशिल्ल्या आज्याक मेळूंक आमी सदांच आशेतार्ली. आजो आनी आजये वांगडा दीस सारूंक मेळटले, ह्या एकाच कारणा खातीर आमी मे म्हयन्याचे सुटयेची वाट पळयतार्ली. आमी तांकां मोगान आज्जो आनी आजी म्हणटार्ली.

हें सुटयेंत लेगीत आमी सगळीं नातवंडां आज्याक उतराक धरपाची संद सोदतार्ली. आमी ताचे परस चड जाणांत हें आमका दाखोवपाचें आशिल्लें. दर वर्साक एक फावट आमी घरचीं सगळीं आमच्या मुळाव्या घरा एकठांय येतात. हरशीं आमी भारतभर आनी भारता भायल्या कांय देशांनी शिपडिल्लीं आसतात. देखून सुटयेंतले हे दीस म्हणल्यार आमचे खातीर खोशयेची पर्वणीच आसता. भारताचे गांवगिरे जिणेचें दर्शन घडोवपी आमगेल्या पुर्वजांच्या घरांत आमी विसां वयर मस्त्या भुरग्यांनी एकठांय येवप भोवच अप्रुपाचें आसता. आजो आनी आजये वांगडा रावप म्हणल्यार मज्जाच, आजो आमकां भारताचे प्राचीन आनी परंपरीक संस्कृतायेचो नजराणो भेटयता जाल्यार आमची आजी आपणाल्या सुंदर काणयांनी आनी रुचीक पदार्थांनी आमकां तृप्त करता. आजयेन केल्ले सुवादीक जिन्नस दुसरे दीस उपास आशिल्ले भाशेन आमी रगडटात आनी तिच्या प्राचीन भारता विशींच्या काणयांचो रस मनसोक्त पियेतात.

आमी जेन्ना जेन्ना भारत, ताचो इतिहास आनी संस्कृताय हांचे विशीं उलयतात, तेन्ना तेन्ना आजोच जिखता. आमी केन्नाच आयकूंक वा वाचूंक नाशिल्ल्यो गजाली तो आमकां सांगता. भोवच अजापाच्यो गजाली आसतात त्यो. देखून आमचे मायभुंये विशीं चड जाणून घेवपाचे नदरेन ताका फुलोवपाची आमकां खुमखुमी येता. तशी माहिती मेळोवन जेन्ना आमी परतीं वतात, तेन्ना 'इंडिया' विशीं... सॉरी... 'भारता' विशीं आमच्या

थंयच्या इश्टां वांगडा उलयतना बडायो मारूंक मेळटात. आमच्या देशाक 'इंडिया' म्हणिल्लें आमच्या आज्याक मात लेगीत आवडना. 'भारत' च म्हणूंक जाय. 'भारत' हें नांव कशें पडलें ताची काणी आयकतकीच आमकांय तें पटलें आनी त्या ल्हानश्या उतरा भितर कितलो व्हड अर्थ भरला तें होल्मलें.

आयज आमकां आज्याचे एके सदचे संवये वयल्यान ताका धरपाचें आशिल्लें.

**ॐ गंगे च यमुने चैव गोदावरी सरस्वति।**

**नर्मदे सिंधु कावेरी जलेस्मिन सन्निधिं कुरु ।।**

न्हाता त्या उदकांत आनी तेंय बी बाथरुमांत, गंगा, यमुना, गोदावरी, सरस्वती, नर्मदा, सिंधू आनी कावेरी ह्या सगळ्या न्हंयांचें उदक आसा अशें म्हणप आनी मानप कितलें पिशेपणाचें? तशें घडप अशक्यच न्हय? आमकां उदका पुरवण जाता ती म्हादयची. तिचें नांव लेगीत ना. कसली पिशेपणाची ही परंपरा? पुर्विल्ले परंपरेंत कांयच तथ्य ना, ती म्हणल्यार फकत एक भावनांचो खेळ, हें आमकां ताचे कडल्यान वदोवन घेवपाचें आशिल्लें. देखून सदचे भशेन जेवणा उपरांतचे भासाभाशेंत आमी ताका आव्हान दिलें.

तें आव्हान आमकां बरेंच म्हारग पडलें. आज्यान सांगिल्लें तें समजुपाक आमकां जायते दीस लागले. ह्या साद्या दोन वळींच्या श्लोकांत आसपाविल्लो म्हान अर्थ आयकून आमची मती गूंग जाली. खऱ्यानीच! भारत एक अद्भूत देस हाची खात्री जाली.

आमी विचारिल्लें, आज्या, ह्या भारतांत इतल्यो न्हंयो व्हांवता आसतना, श्लोकांत मात ह्यो सातूच न्हंयो कित्याक? आनी तांचें उदक आमच्या बाथरुमांतले बालदेंत कशें पावत? उदक म्हणल्यार फकत निवळ जावपाचें एक साधन. तें खंयचेंय आसना, निवळ आसतकीच जालें. मागीर ह्या सात मुखेल न्हंयाचेंच कित्याक? आमी ताचेर प्रस्नांचो मारो केलो. आजो ताचे



**कैलास पर्वत**

सदचे शांत मुद्रेन हांसलो आनी सांगूंक लागलो,

''पुतांनो, आयकात''. हाचेर चलयांनी केलो निशेधाचो बोवाळ, ताचेर आज्यान म्हणलें, सॉरी धुवांनो, हें पळयात, भुरग्यांनो, ह्या न्हंयांनीच आमची संस्कृताय आनी सभ्यताय घडयल्या आनी फुलयल्या, देखुनूच तांकां पूज्य मानतात. देखून सद्दां सकाळी फुडें तांचें स्मरण करून आमी तांचे उपकार आठयतात. आपल्या जिवितांत एकदां तरी ह्या न्हंयांनी तीर्थस्नान करचें अशी इत्सा दरेका भारतीयाच्या मनांत आसता. म्हाका खात्री आसा, आमचे म्हान संस्कृतायेक ह्या न्हंयांनीच पोसवण दिल्या. देखून आमकां त्यो पवित्र आसात. तांच्या थंड शितळ उदकांत बुडी मारतकीच आमी पावन जाल्ल्याचो अणभव घेतात. तुवें लेगीत हो अणभव घेतला, याद आसा? भारत एक असो देश जो भौतीक सुखा परस अध्यात्मीक समादानाक चड महत्व दिता. तेच प्रमाण भारतांत भावनीक संबंदांक चड मोल आसता. देखून न्हाता




**वेदीक काळांतली सरस्वती**

आसतना तांचें स्मरण लेगीत करतकीच पवित्र आनी पावन जाल्याची अनुभूती जाता''.

आमच्या चोम्यांतल्या शामूचो हात मर्दीच वयर सरलो. तो सदांच काणयो आयकुपाक आशेतालो. ''आज्ज्या, ह्यो न्हंयो केन्ना आनी कश्यो पवित्र जाल्यो तें सांगशी?'', ''सगळ्यो न्हंयो?'' आज्यान म्हणलें, ''सगळ्या न्हंयांच्यो काणयो आयकुपाच्यो जाल्यो जाल्यार तुमकां दोनेक वर्सां हांगा रावचें पडटलें. आयज हांव तुमकां फकत एकेच न्हंयेची काणी सांगतां,

जी सातूय न्हंयां मदीं सगळ्यां परस पोन्नी आनी प्राचीन आसा. ती न्हंय म्हणल्यार सरस्वती नदी''. अशे तरेन आज्यान सरस्वतीची आख्यायिका सांगूंक सुरवात केली.

रोखडेंच हांवें विचारलें, ''सरस्वती म्हणल्यार विद्येची देवता न्ही आज्या, मागीर तें एके न्हंयेचेंय बी नांव कशें?''

''तें दोगांचेंय नांव-न्हंयेचेंय बी आनी देवीचेंय बी''. आज्यान विचारलें,'' संवसारांतलें सगळ्यांत आदलें साहित्य खंयचें?'' अशे तरेन प्रस्न विचारुनच आजो आपलो वर्ग सुरू करतालो, आमी सगळ्यांनी एका सुरांत जाप दिली-

''वेद'', आज्यान फाटले फावट सांगिल्ली वेदांची काणी आमकां याद आशिल्ली.

''बरोबर. वेदांचे कितले प्रकार?''

''चार''

''खंयचे ते सांगात.''

हांगा आमी अनमनले. आमकां खात्री नाशिल्ली. पूण आमच्या क्वीज मास्टरान - रवीन जाप दिली,''ऋग्वेद, यजुर्वेद, सामवेद आनी अथर्ववेद.''

जापेक लागून आज्याचें मुखामळ फुल्लें.''ऋग्वेदांत लेगीत सरस्वती न्हंये विशीं जायते उल्लेख सांपडटात. ऋग्वेदांत हे न्हंयेचें वर्णन करपी सुमार 75 ऋचा (श्लोक) आसात. जे अर्थीं संवसारांतल्या सगळ्यांत आदल्या वाङ्मयांत सरस्वतीचे उल्लेख आसात, ते अर्थीं सरस्वती ही आमचे भुंये वयली सगळ्यांत प्राचीन नदी आसा, हें स्पश्ट जाता. आमी विद्येची देवता सरस्वती आनी नदी सरस्वती हातूंत भेद करिनात. हाचें कारण ही नदीच आमचे संस्कृतायेचें उगमस्थान आसा.

## वेदांतली सरस्वती

''तुमी जाणातच, भारतीय मनीस परंपरेन भावनीक आसता. ताच्या संपर्कांत आयिल्ले दरेके गजाली कडेन तो कृतज्ञतायेचे भावनेन पळयता. आपल्या

सुखमय आनी सफळ अस्तित्वाचो आदारच सैय, समाज आनी परमात्म्याची शक्त आसा, अशें तो मानता. सरस्वती न्हंयेचे देगेर तपश्चर्या करपी 'गृत्समद' नांवाचे ऋषीन रचिल्ले एके ऋचेंत म्हणलां-

**।। अम्बितमे नदीतमे देवितमे सरस्वति ।**

**अप्रशस्ता इव स्मसि प्रशस्तिमम्ब नस्कृधि ।।**

(ऋ. 2.41.16)

*(हे सरस्वती माये, तूं सगळ्या मातां मदीं श्रेश्ट, सगळ्या न्हंयां मदीं म्हान आनी सगळ्या देवतां भितर आद्य दैवत आसा. हे माये, आमी अज्ञानी आसात. उपकार करून आमचेर गिन्यानाचे कृपेचो वर्षाव कर).*

**श्री वसिष्ठ मैत्रवरुणीची ऋचा**

**आ यत्साकं यशसो वावशानाः सरस्वति सप्तथी सिन्धुमाता ।**

**याः सुष्वयन्तः सुदुधा : सुधारा अभि स्वेन पयसा पीप्यानाः ।।**

(ऋग्वेद 7.36.6)

(सिंधू न्हंये सयत सगळ्या न्हंयांची माता आशिल्ली फलदायी सप्त-सरस्वती न्हंय, उदकान उपाट भरून वेगान व्हांवता. आपल्या स उपन्हंयां सयत व्हांवपी सरस्वती धरून ह्यो सगळ्यो न्हंयो आमकां अन्न आनी दूद दितात. हेर स न्हंयो म्हणल्यार दृषद्वति (सतलज), विपाशा (ब्यास), इरावती (रावी), चंद्रभागा (चेनाब), झेलम आनी सिंधू.

आपल्या धीरगंभीर सुस्पश्ट आवाजांत आज्याक वेदांतल्यो ऋचा म्हणटना आयकप हो एक सुखादिणो अणभव.

''वेदांत सरस्वतीच्या प्रचंड भुगोलीक विस्तारा विशीं तशेंच शेकड्यांनी वर्सां



**त्रिवेणी सोमनाथ**

ती विद्वान ऋषी, सम्राट आनी योगी हांची कर्मभूमी कशी आशिल्ली हाचे विशीं जायत्यो ऋचा वाचूंक मेळटात.'' आज्यान मुखार सांगलें,''यजुर्वेदांत एक महत्वपूर्ण ऋचा आसाः''

**पञ्च नद्यः सरस्वतिमपि यानी सस्त्रोतसः ।**

**सरस्वति तु पञ्चधा सो देशे अभवत्सरित् ।।**

(यजुर्वेद 34.11)

(सरस्वती न्हंये भशेनच पांच जैतीवंत न्हंयो तिका येवन मेळटात. हे भुंयेंत मुखार प्रवाहीत जातना सरस्वती न्हंयेक पांच फांटे फुट्टात).

हे ऋचेचे पयले वळींत सरस्वतीच्या पांच उपन्हंयां विशीं सांगलां. निवेदक उद्भटा प्रमाण ह्यो पांच न्हंयो म्हणल्यार दृषद्वती, सतद्री, विपाशा, इरावती आनी चंद्रभागा. ऋग्वेदाच्या काळांत सरस्वतीक सिंधू आनी झेलम धरून सात उपन्हंयो आशिल्ल्यो. यजुर्वेदाच्या काळांत सिंधू आनी झेलम ह्यो दोन व्हड न्हंयो सरस्वती न्हंये पसून वेगळ्यो जाल्यो.

ऋचेचे दुसरे वळींत दर्यांत विलीन जावचे पयलीं तिका पांच फांटे फुट्टात



ब्रम्हसरस

आनी कच्छच्या रणांत ती त्रिभुज वाठार घडयता, हें स्पश्ट केलां. तिचे देगेर रावपी लोकांक समृद्‌धीचें वरदान दिवन तिणें सम्राट नहुषा सारख्या राजाक कशी नामना मेळोवन दिली, हाचे विशीं लेगीत जायत्यो काणयो आसात.

''तुमकां सांगतां...'' आजो जेन्ना वेदांचेर उलोवंक लागता तेन्ना तो भोवच भावनात्मक जाता आनी तो केन्ना थारत तें सांगूंक येना. देखून आमचे मदलो मोहन अस्वस्थ जालो आनी ताणें म्हणलें,''तें बरें आसा आज्या, पूण त्या काणयांक लागून सरस्वती नांवांची न्हंय खऱ्यांनीच आशिल्ली, हें सिद्‌ध जायना.''

''आमी इंडिये संबंदांतली, चूक जाली, भारता संबंदांतली लागी लागी सगळींच पुस्तकां वाचल्यांत. त्या पुस्तकांनी सरस्वती न्हंयेची गजाल म्हणल्यार फकत एक कल्पकथा, वास्तवांत तशी न्हंयूच ना, अशें स्पश्टपणान सांगलां.'' मोहनान शाळेंत आसतना भारतांतल्या न्हंयांचेर एक व्हड अभ्यास-प्रकल्प केल्लो, तें आमी जाणा आशिल्लीं.

''खरें'' प्रकाशान, आमच्या कुटुंबांतल्या कवीन तेंको दिलो,''खंयच्याय प्रतिभावान कवीन आमचे म्हादय न्हंयेचें वर्णन लेगीत एक प्रचंड आनी

विस्तृत न्हंय म्हूण करूं येता. तेच तरेन सरस्वती न्हंय ही एक कवी - कल्पना आसूं येता. सरस्वती खऱ्यांनीच अस्तित्वांत आशिल्ली हें विर्शी कसलो तरी इतिहासीक पुरावो आसा व्हय? प्रकाशान आव्हान दिलें. पयलेच फावट आज्याक आमी उतराक धरलो, अशें दिशिल्ल्यान आमकां खोस जाली.

## इतिहासीक पुरावो

''सरस्वती न्हंये विर्शी इतिहासीक गवाय आसा''- आज्यान ह्याय प्रस्नाची जाप दितना म्हणलें,''तुमकां खबर आसा, आधुनीक इतिहासकार फकत पुराभिलेखी, पुरातत्वी, मुद्राशास्त्रीय आनी स्थापत्यशास्त्रीय पुरावेच मानतात. लोकपरंपरा वा साहित्यीक पुराव्यांचेर ते विस्वास दवरिनात. ते तांकां कपोलकल्पीत आनी मिथकां अशें मानून न्हयकारतात. तांच्या मतान ह्या पुराव्यांचेर निंबून इतिहासाची पारखणी करूंक येना. इतिहासा विर्शीचो हो दिश्टीकोन फकत दोन शेंकड्यां आदींच निर्माण जाला. देखूनच तुमच्या पाठ्यपुस्तकांनी सरस्वती न्हंयेक काल्पनीक म्हणल्या. पूण खरें सांगपाचें म्हणल्यार भौतीक गजालींक लागून इतिहासाच्या फकत भायल्या रूपाचेंच दर्शन घडटा. जाल्यार मौखीक आनी साहित्यीक दाखल्यांक लागून अंतरंग पळोवंक मेळटा. सरस्वती न्हंये विर्शी पळयलें जाल्यार, परंपरीक आनी आधुनीक दोनूय नदरांतल्यान सरस्वती नदी म्हणल्यार एक वास्तविकताय असोच निश्कर्श मुखार येता. भारताच्या प्राचीन इतिहासांत...'' आजो फुडें सांगूंक वतालो, इतल्यांत रांदचे कुडींतल्यान पालवाक हात पुशीत भायर येवन आजयेन म्हणलें,''तुमकां इतिहासीक पुरावो जाय मरे, हांव दितां.'' आमची आजी काणयो सांगूंक हुशार, 'अमर चित्र कथां' परस तिच्यो काणयो रंजक आनी सुंदर. आमी तिचे कडल्यान रामायण, महाभारत आनी भागवतांतल्यो काणयो जायते फावटी आयकल्यात.

आजयेन विचारलें, ''सांगात पळोवया, दोन प्रसिद्ध महाकाव्यां खंयचीं?'' आजयेकूय घडये आज्ज्याचे प्रस्न विचारपाचे संवयेची लागण जाल्या. आमी सगळ्यांनी जाप दिली, ''रामायण आनी महाभारत.''

''बरोबर, ह्या दोनूय महाकाव्यांतल्यो सगळ्यो काणयो हांवें तुमकां सांगल्यात. ह्यो काणयो म्हणल्यार खूब खूब वर्सां फाटीं कितें घडलें त्या घडणुकांचो प्रत्यक्ष इतिहासच. बरोबर? इतिहास म्हणल्यार जें आनी जशें घडलें तें आनी तशें. रामायण आनी महाभारतांत सरस्वती न्हंयेचो उल्लेख आयलाच. पूण महाभारतांत तिचे विशीं आनी हिमालया सावन अरबी दर्या मेरेनचे तिचे व्हांवते विशीं खोलायेन माहिती आयल्या. तुमकां महाभारतांतल्या युद्धा विशीं खबर आसाच. घडये तें पयलें संवसारीक युद्ध आसूंक जाय. हें युद्ध सुरू जावचे मातशे पयलीं बलराम... '' ''सांगात पळोवया. हो बलराम कोण?'' मर्दीच आजयेचो प्रस्न.

शालिनीन व्हडल्यान जाप दिली, ''कृष्णाचो भाव.''

''बरोबर. कौरव आनी पांडवां मर्दी फुडाराक जावपी युद्धाक लागून तो भोवच अस्वस्थ जाल्लो. देखून ताणें तिर्थयात्रेक वचपाचें थारायलें. ताणें कृष्णाक आफयलो आनी सांगलें, ''हांवें सरस्वती न्हंयेचे देगेर तिर्थयात्रेक वचपाचो निर्णय घेतला. युद्धाची भिरांकूळ घडणूक सोंपल्या उपरांतच हांव परततलों.'' बलरामाची समजूत काडूंक अपेस आयिल्ल्या कृष्णान ताका हयकार दिलो. बलरामान द्वारकेच्यान आपले तिर्थयात्रेक सुरवात केली. यात्रा पुराय करूंक ताका 42 दीस लागले.''

''आपल्या सेवकां सयत वाटे वयल्या गरजवंत लोकांक आनी साधूसंतांक दान दिवंक भरपूर खावपाचे जिन्नस, भांगराचीं आनी रूप्याचीं नाणीं, अलंकार बी घेवन बलरामान यात्रेक प्रारंभ केलो. यज्ञ-हवनां बी करपा खातीर द्वारकेंतल्यान ताणें पवित्र अग्नी आपले वांगडा घेतलो. ताचे बरोबर मुखेल पुरोहीत लेगीत आशिल्ले. तशेंच ताणें आपले बराबर जायते हती, घोडे, रथ आनी दान दिवपा खातीर बऱ्यांत बरीं गोरवांय घेतलीं.

बलरामान सरस्वती न्हंयेचे देगे वयल्या सगळ्या पवित्र तिर्थांक आनी आश्रमांक भेट दिली. ताणें थंय पूजा-अर्चन-तर्पण आदी सगळे विधी आनी धर्मीक सोपस्कार पुराय केले. ताणें आपल्या यात्रामार्गाचेर भेदभाव करिनासतना ल्हानव्हडांक, जाण्टयांक सगळ्या जातींतल्या लोकांक सदळ

हातान दानदक्षिणा दिली.

यात्रा भोवच नेटान, उमेदीन आनी उत्साहान मुखार सरताली. बलरामान तानेल्ल्यांक उदक आनी भुकेल्ल्यांक पोटभर रूचीक जेवण दिलें. यात्रा करूंक इत्सूक आशिल्ल्यांक रथ, घोडे बी दिले, तशेंच कपडे, वस्तीय बी दान दिल्यो.

राजपुरोहीत आनी इश्टमित्रांक घेवन बलराम सगळ्यांत सुरवेक पवित्र प्रभासतिर्थाचेर पावलो. हांगाच सरस्वतीच्या साबार फाट्यांतलो एक फांटो म्हासागरांत विलीन जाता. आयज थंय वेरावल बंदर आनी सोमनाथ मंदीर आसा. हांगा सरस्वती न्हंयेंत स्नान करतकीच चंद्राक ताचें तेज आनी कांती परतून प्राप्त जाली, देखून ह्या थळाक प्रभासतीर्थ हें नांव पडलें.

हेर साबार तिर्थांक भेटी दितकीच बलराम गर्गस्त्रोत तिर्थाचेर पावलो. थंय तांणें गर्ग ऋषीचें आदरातिथ्य स्विकारलें. गर्ग ऋषी ज्योतीश आनी नक्षत्रविद्यांचो जाणकार आशिल्लो. गर्ग ऋषीनच बलराम आनी कृष्णाची मूज केल्ली. थंयच्यान फुडें बलराम शंखतिर्थार गेलो. थंय मेरू पर्वता येदोच व्हड महाशंखाचो रूख ताका दिश्टी पडलो. चडश्या भिरांकूळ आनी बळिश्ट राकेसांची लिपून रावपाची ती सुवात आशिल्ली. ते 'पैशाची' भाशेंत उलयताले.



**हिमालयांतले हिमनग**

उपरांत बलराम कुरूक्षेत्र वाठारांतल्या समंतपंचक तिर्थाचेर पावलो. ह्या थळाक ब्रह्मदेवाची तपोभूमी म्हूण वळखतात. आयज तिका ब्रह्मसरस म्हूण वळखतात. थंयच्यान तो प्लक्ष-प्रश्रवण तिर्था कडेन गेलो, जंयच्यान सरस्वतीचो उगम जाला. मुखार यमुनेचें उगम स्थान आशिल्ल्या कार्पावन तिर्थाक ताणें भेट दिली. यमुनेच्या शितळ आनी पापनाशक उदकांत बुडी मारून तो पावन जालो. हांगाच नारदमुनी कडल्यान भीष्म पितामह शरशय्येचेर पडल्यात, द्रोण आनी कर्ण हांकां मरण आयलां तशेंच दुर्योधन आनी भीमाचें गदायुद्ध जावपाचें आसा म्हणपाची खबर ताका कळ्ळी. बलराम खंती भरीत जालो आनी ताच्या दोनय शिश्यांचें गदायुद्ध पळोवपाक कुरूक्षेत्राक वचूंक भायर सरलो. आतां जालें तुमचें समादान?'' आजयेन विचारलें.

''आज्ये, बलरामाची ही तीर्थयात्रा केन्ना, म्हणजे खंयच्या काळांत जाली?'' आमचे मदल्या नवोदीत इतिहासकारान प्रस्न केलो.

आजयेन आज्याकडेन नदर घुंवडायली. आज्यान सांगलें,''तो काळ आयच्यान सुमार 5000 वर्सां आदलो आसुंये, ख्रि.आ. सुमार 3000 वर्सां.''

''सामकें फट आनी अर्थशून्य. म्हाका असल्यो फटाश्यो अजिबात मानवनात.'' फाटल्यान एक रागिश्ट आवाज आयलो. तो आवाज म्हज्या




पृथ्वीचें कवच

बापायचो आशिल्लो. हांवें फाटी वळून पळय जाल्यार कितें? म्हजे सगळे काका आनी काक्यो, आज्या-आजयेच्यो काणयो आयकूंक रुचीन बशिल्ले.

## खगोलशास्त्रीय संदर्भ

''ख्रि.आ. 3000 वर्सा अशें कशें म्हणटलो तूं आपा? वोगीच भुरग्यांक फटींच्यो गजाली सांगूं नाका.'' बाबा तिडकलो. म्हजो बाबा नासा संस्थेंत नामनेचो अंतरीक्ष शास्त्रज्ञ आसा. ताचो अतिरंजीत गजालींचेर मात लेगीत विस्वास ना. तो एक तर्कनिश्ट आनी वस्तुनिश्ट मनीस.

आज्यान हांसून म्हणलें,''पुता, आजून तुजी हुतहुतेपणाची संवय वचूंक ना. वासू, तुका खबर आसतलेंच, अमेरिकेन 1972 वर्सा अंतराळांत स्थापीत केल्ल्या भूंय-उपग्रहान (लँड सॅटॅलायट) धाडिल्ल्या चित्रांत, हिमालयांतल्यान भायर सरून कच्छाच्या रणा मेरेन व्हांवपी एक विशाल न्हंय स्पश्टपणान दिश्टी पडटा. हे न्हंयेचें पात्र 8 कि.मी. रूंद आशिल्लें. वर्षा ऋतूंत तें 20 कि.मी. रुंद जातालें. चित्राच्या विश्लेशणा वयल्यान ही न्हंय सुमार 6000 वर्सां आदी भोवच वेगान व्हांवताली, म्हणपाचें कळटा. ख्रि.आ. सुमार 2000 हजार वर्सां पयलीं ती आटली.''

''सरस्वती न्हंयेची कालगणना करपाचे नदरेन आनीक एक महत्वाचो सोद लागला. पृथ्वीचे तुलनेंत हेर गिऱ्यातान्यांच्या संचरणाचे समजणे खातीर नासा स्कायमॅप नांवाचे एक गिरावळ सॉफ्टवेअर (प्लेनेटरियम सॉफ्टवेअर) वापरता. तेंच तंत्रज्ञान वापरून मेंफिस विद्यापिठाचे एक प्रोफेसर नरहरी आचार - ''

''नरहरी आचार? हांव वळखतां ताका. अवकाशी अनुसंधानाचेर जाल्ल्या एका परिसंवादांत आमची भेट जाल्या. भोव बरो मनीस.'' बाबान मदींच आज्याक थांबयत म्हणलें.

आज्यान आपली खबर चालू दवरीत म्हणलें,''म्हणजे तूं नरहरी आचाराक वळखता तर. ताणें व्यासान महाभारतांत वर्णन केल्ल्या अंतराळांतल्या घडणुकांचो काळ निश्चीत करपा खातीर, एका जपानी प्राध्यापकान तयार

केल्ल्या पंचांगी सॉफ्टवेअराचो वापर केला. महाभारतांत 170 परस चड खगोली संदर्भांचे उल्लेख आयल्यात.

प्रोफेसर आचार हांणी कालगणने खातीर महाभारतांतलें युद्ध आनी भीष्म पितामह शरशय्येचेर पडिल्लो दीस हांचे मजगतींच्या पंदरा दिसांत जाल्ल्या गिराणांचो आदार घेतला. जपानी प्रोफेसराच्या पंचांगी सॉफ्टवेअराच्या आदारान प्रोफेसर आचार हांणी ह्यो घडणुको ख्रि. आ. 3000 वर्सां आदीं घडल्यात, असो निश्कर्श काडला. वासू, तूं हे विशीं मातशें इंटरनेटाचेर पळय. ताचे वयल्यान बलरामाचे यात्रेचो काळ ख्रि.आ. 3000 वर्सांच्या सुमाराक आसूंक जाय. बलरामाच्या वर्णनां प्रमाण ह्या काळांत सरस्वती न्हंय ल्हान ल्हान उपन्हंयांची मालिका कशी जाल्ली.''

''मागीर आज्या, आजून लोक सरस्वती न्हंयेक काल्पनीक कित्याक म्हणटात? इतली विशाल आनी विस्तृत न्हंय सामकी आटून कशी गेली? आयज तिचे अवशेश लेगीत कित्याक उरूंक नात?'' म्हाका खऱ्यांनीच




**उपखंडांतली हालचाल**

भोवच दुख्ख जाल्लें.

''हय''- आज्यान म्हणलें,''तें एक कुवाडेंच आसा. सिंधू आनी विशाल वैदीक सरस्वती हांचे मदलो पुराय वाठार आयज वाळवंटी जाला. खंयचीच वनस्पती थंय रुजना. रूजलीच जाल्यार फकत पावसाच्या दिसांनी. थंयचें वातावरण भोवच गरम आनी उश्ण जालां. न्हंयांचीं आदलीं सगळीं पात्रां आनी पाट रेंवेन भरल्यात. पूण इतलें आसूनय बी थंय आयज लेगीत दाट लोकसंख्या आसा, ही अजापाची गजाल.''

रामून मर्दीच म्हणलें,''तूं राजस्थानाच्या 'थर' वाळवंटां विशीं उलयता आज्या?''




**उपखंडांतली हालचाल**

''सारकें तुजें. लोक आयजूय बी हांगां रावतात, हाचें कारण हांगा ताज्या साव्या उदकाच्यो झरी आनी तळयो आसात. आमी पळयलें, ख्रि. आ. 5 व्या शेंकड्या मेरेनच सरस्वती न्हंय आटून तिचें ल्हान ल्हान तळयांनी रुपांतर जाल्लें. लोक तिका लुप्त जाल्ली भुंये पोंदची न्हंय मानूंक लागिल्ले. साबार बुदवंत आनी जाणकार लेगीत वेद आनी महाभारतांतल्यो तिचे विशींच्यो नोंदी फकत काल्पनीक आनी असत्य

मानूंक लागले. पूण कांय हेर विद्वान आशिल्ले, जे हे रहस्यमय न्हंयेच्या पात्राचो सोद घेवपाचो यत्न करताले.''

## पुरातत्वी सोद

आज्यान फुडें सांगलें, ''1883 वर्सा, जनरल सर कनिंगहॅम हांकां आयजच्या हिमाचल प्रदेशाचें सर्वेक्षण करता आसतना एके थळावे न्हंयेचें नांव 'सरसुती' आशिल्ल्याचें कानार पडलें. ऋग्वेदांतले 'सरस्वती' न्हंयेचें नांव याद जाल्ल्यान तो भोवच उमेदी जालो.

तांणी ते सुवातेक भेट दिली आनी आपले डायरेंत नोंद केली,''हय, हीच ती भोवताशी देगो आशिल्ली सरस्वती न्हंय. अल-बे-रूनीन महम्मद गजनीच्या आक्रमणा वेळार जिचो उल्लेख गुंडे आनी गडग्या फातरांनी भरिल्ली न्हंय असो केला, तीच ही सरस्वती न्हंय.''

''मागीर भारतीय इतिहासकार आनी पुरातत्व जाणकारांनी तिचो उल्लेख कित्याक करूंक ना? तांकां ह्या म्हान दायजाचें कांयच पडूंक ना?'' शांतान विचारलें.



कलिबंगन हांगाच्यो इमारती

''साप्प उण्या भारतीय इतिहासकारांनी तिचे विशीं बरयलां.'' आज्यान खंतीन मुखार सांगलें. ''पूण फाटल्या शंबर वर्सांत कांय भारतीय विद्वानांनी ह्या संबंदान यत्न केल्यात. देखीक डॉ. एन. एन. गोडबोले, डॉ. एस. एस. पारीख आनी हेर. पूण तांचें संशोधन परिपूर्ण ना. 1983 वर्सा हे विशीं गंभीरतायेन एक यत्न जालो. नागपूरचे श्री. मोरोपंत पिंगळे हांच्या फुडाकारान लुप्त जाल्ले सरस्वती न्हंयेचो सोद घेवपाचे नदरेन इतिहासतज्ञ आनी विद्वानांनी एक बसका घडोवन हाडिल्ली. तातूंतल्यान 'इतिहास संकलन येवजणे' खाला 'सरस्वती नदी शोध प्रकल्प' ह्या नांवान एक समिती घडयली. संवसारीक नामनेचे पुरातत्व शास्त्रज्ञ पद्मश्री डॉ. विष्णू श्रीधर वाकणकर हांचे कडेन हे समितीचें फुडारपण आयलें.

''आज्या, मातसो राव आज्या, तुवें श्री. वाकणकराचें नांव घेतलें. तूं वळखता ताका आज्या? मेळ्ळा तूं ताका? 'प्राचीन धोलींतल्या फातरां वयलीं चित्रां' ह्या प्रकल्पाचेर काम करतना हांव तांचो सामकों फॅन (चाहतो) जाल्लों. तांचें बिम्बेटक गुंफां वयलें संशोधन आनी भारतीय पुरातत्वशास्त्रा विशीं तांणी सादर केल्ले पेपर तशेंच तांणी दिल्लीं व्याख्यानां भोवच अभ्यासपूर्ण आसात. तांणी जर सरस्वती न्हंये विशीं



रानी की बावा (बांय)

कितेंय बरयलां, जाल्यार तें निश्चीत सत् आसुंकूच जाय.'' आमचो बाल-इतिहासकार कृष्णा उलयत रावलो. आमी ताका,''पुरो रे कृष्णा तुजें. आज्या, फुडें सांग रे.'' म्हणून वोगी केलो.

''हय कृष्णा. हांव त्याच पद्मश्री वाकणकर हाचे विशीं उलयतां. पूण हांव तांकां मेळूंक ना. तांणी हिमाचल प्रदेश, हरियाणा, राजस्थान आनी गुजरात ह्या राज्यांतल्या विद्वानांक आनी वावुरप्यांक घेवन एक 'मंडळ' घडयलें. ह्या मंडळान लुप्त जाल्ले सरस्वती न्हंयेचो विंगड विंगड तरांनी सोद घेवपाचे नदरेन, नोव्हेंबर, 1985 तें डिसेंबर, 1985 ह्या काळांत एक 'सोद यात्रा' घडोवन हाडली. जो मार्ग बलरामान आपले तिर्थयात्रे खातीर आपणायल्लो तोच मार्ग हे समितीन वेंचून काडलो.''

आज्यान सांगलें,''ही सोद यात्रा शिवालीक पर्वतांतल्या आदिबद्री (अर्धबद्री) सावन 17 नोव्हेंबर, 1985 दिसा सुरू जाली. सुमार 4000 कि.मी.ची भोंवडी करून ही यात्रा 18 डिसेंबर दिसा प्रभासपाटण हांगां पुराय जाली.''

सरस्वतीच्या संभाव्य प्रवाह मार्गाचेर वता आसतना वाटेर भौशीक सभा, परिसंवाद आनी प्रसारमाध्यमांच्या प्रतिनिधीं वांगडा वार्तालापाच्यो कार्यावळी घडोवन हाडिल्ल्यो. ह्या सोद-वावरांत थळाव्या लोकांचो सहभाग वाडोवपा खातीर ह्यो कार्यावळी आशिल्ल्यो. लक्षांत दवरात, दंतकथांचें तशेंच संबंदीत वाठाराच्या भुगोलीक खाशेलपणांचे माहितीचें भांडार थळाव्या लोकां लागींच आसता, ही गजाल दरेका इतिहासीक वा पुरातत्व जाणकारान मतींत दवरूंक जाय. ह्या अभ्यास-पंगडाक वाटेर जायतीं पुरातत्वी थळां दिश्टी पडलीं. पुरातत्वी नदरेन महत्वाच्यो कितल्योश्योच वस्तू तांणी एकठांय केल्यो. त्या-त्या वाठारांनी घोळटल्या लोकसाहित्याचें संकलन केलें. तशेंच शेंकड्यांनी वर्सां आदीं जाल्ल्या भुगोलीक स्थित्यंतरां विशींची माहिति एकठांय केली.''

कृष्णान हांगा आज्याक आडायलो आनी विचारलें,''आज्या, तुवें वेदांतले आनी महाभारतांतले संदर्भ दिवन जें सांगिल्लें, ताचे कडेन हे सोद-यात्रेचे निश्कर्श जुळटात व्हय?''

''राव, बेश्टी ताकतीक करूं नाका. म्हाका पुराय गजाल सांगू दी.'' म्हणत

आज्यान फुडें सांगलें-

''हें पळयात, हांव तुमकां सांगत आयलां, खंयच्याय मळा वयलो तुमचो सोद जर सत्याचेर आदारिल्लो आसत आनी तुमचे प्रयत्न प्रामाणीक आसत जाल्यार, आपणाल्या रहस्यमय मार्गान दैवी शक्त तुमकां पावताच. हे सोद-यात्रेंत लेगीत एक अजाप घडलें.''

सरस्वती न्हंयेच्या सोदाची खबर आयकून जोधपूरच्या 'केंद्रीय मरूक्षेत्रीय अनुसंधान संस्थे'च्या (सेंट्रल ऑरिड झोन रिसर्च इन्स्टिटयूट) संचालकांनी, डॉ. वाकणकर हांकां, 1972 सावन चालू आशिल्ल्या अभ्यासांतल्यान प्राप्त जाल्लीं, वैदीक काळांतली सरस्वती असो अदमास केल्ले एके आटिल्ले न्हंयेचीं उपग्रह चित्रां मेळोवन दिलीं. 1971 वर्सा सोडिल्ल्या लॅंडसॅट नांवाच्या एका अमेरिकी उपग्रहान हिमालयांतल्यान कच्छच्या रणा मेरेन व्हांवपी एके विशाल आटिल्ले न्हंयेचो सोद लायिल्लो, ताचे विशीं हांवे तुमकां हे आदीं सांगलांच. ह्या चित्रांच्या विश्लेशणा वयल्यान 6,000 वर्सां आदीं हे न्हंयेचें पात्र विशाल आशिल्लें आनी ती खि. आ. सुमार 2000 वर्सां मेरेन पुराय रितीन





**सरस्वती सिंधू लिपी**

आटिल्ली, म्हणपाचें सिद्ध जालें. जेन्ना डॉ. वाकणकर हांच्या पंगडान ह्या चित्रांचो अभ्यास केलो आनी बलरामाचे तिर्थयात्रेच्या मार्गा कडेन ताची तुळा केली, तेन्ना तांकां तीं लागी लागी सारकींच आशिल्ल्याचें होल्मलें. ह्या पंगडान लोकसाहित्य आनी थळाव्या दंतकथांच्या आदारान तयार केल्ल्या परंपरीक मार्गा कडेन लेगीत हो मार्ग जुस्त जुळटालो.''

आतां म्हज्या बाबाच्यान वोगी बसपाक जायना जालें. ताणें म्हणलें, ''आवयऽस लँडसॅट? ताच्या प्रक्षेपणांत हांवें इल्लो वावर केल्लो. पूण ताचे वरवी मेळिल्ली माहिती भारताचे नदरेन इतली महत्वपूर्ण आसतली, अशें चिंतूंक नाशिल्लें.'' बाबाच्या मुखामळा कडेन पळोवन म्हाका दिसलें, लँडसॅटान धाडिल्ल्या भारताच्या चित्रां विशीं आपणाक खबर ना हें कळिल्ल्यान तो लजेल्लो.

आज्यान फुडली खबर सांगली.

''उपग्रह चित्रांक लागून जायतीं विज्ञानीक माहिती मुखार आयली. आनी तिका लागून सरस्वती न्हंये विशींचीं जायतीं गुपितां उक्तीं जालीं. डॉ. वाकणकर हांच्या संशोधना कडेन जुळपी ह्या सोद वावराक लागून जायत्यो



अलंकार

महत्वपूर्ण गजाली उक्ताडाक आयल्यो. ताका लागून संवसार भरांतल्या विज्ञानिकांक लेगीत तांची दखल घेवची पडली.''

आजो थोडोवेळ थारलो. सरस्वती न्हंयेच्या जिवितांत इतिहासीक बदल कशे घडल्यात, तें ताका आमकां दाखोवपाक जाय आशिल्लें. देखून ताणें बाबाक संगणकाचेर आशिल्लीं कांय चित्रां उक्तीं करपाक सांगलीं. ''पळयात,'' ताणें म्हणलें -

''उपग्रहान धाडिल्ल्या ह्या भोवआयामी चित्रांक लागून वैदीक सरस्वतीचें अस्तित्व सिद्ध करप शक्य जालां. ह्या प्रतिमा चित्रांवयल्यान त्या काळांत सतलज न्हंय ही सरस्वती न्हंयेची मुखेल उपन्हंय आशिल्ली, असो तर्क करूं येता. व्यास (बियास) न्हंयेचें प्रवाहपात्र पळयात, कितलें स्पशट आसा. हें न्हंयेचो सतलज न्हंये कडेन कांयच संबंद नाशिल्लो. व्यास न्हंय स्वतंत्रपणान सिंधू न्हंयेंत विलीन जाताली. देखून सरस्वती न्हंय नारा न्हंये वरवी कच्छाच्या रणांत थेट व्हांवताली, म्हणपाचें कळटा.

भूंयगर्भी प्रवाहमार्गांच्या अभ्यासा वयल्यान सरस्वतीच्या इतिहासाच्यो कांय महत्वपूर्ण गजाली उजवाडाक आयल्यात. सरस्वतीक आयज ल्हान-ल्हान व्हाळांचें रूप फावो जाल्लें आसलें तरी आदल्या तेंपार ती एक विशाल न्हंय आशिल्ली. हेर सगळ्या रूतूंत 6 - 8 कि.मी. आनी पावसाळ्यांत सुमार 20 कि.मी. इतलो तिचो विस्तार आशिल्लो. हिमालयांत सावन कच्छाच्या रणा मेरेन तिची व्हांवती सुमार 1600 कि.मी. आशिल्ली.''

हांवें आज्याक विचारलें,''आज्या, जर ही न्हंय इतली लांबरूंद आशिल्ली जाल्यार तिचो जलमार्ग म्हूण उपेग कित्याक जाय नाशिल्लो?''

''कोणें सांगलें जाय नाशिल्लो म्हूण? महाभारतांत यादव हे न्हंयेंतल्यान आनी महासागरांतल्यान तारवांनी भोंवताले. सत्यभामेचो बापूय शत्रुजित द्वारकेंतल्या समुद्री-वेपाऱ्यांचो फुडारी आशिल्लो. यादवां मदीं तो सगळ्यांत गिरेस्त मनीस आशिल्लो. कळ्ळें? आतां आमी परतून इतिहासाच्या विज्ञानीक अभ्यासा कडेन या.''

### भूगर्भीय पुरावेः-

भूगर्भी नोंदीं प्रमाण प्राचीन काळांत हिमालयाचें उदक गोठिल्ले स्थितींत आशिल्लें आनी न्हंयांच्या जाग्यार फकत हिमनग - झेलाचे दोंगर दिश्टी पडटाले.

''वातावरणांत जशी जशी गर्मी वाडत गेली, तशे तशे हे हिमनग फुटूंक-विरगळूंक सुरवात जाली आनी ह्या हिमनगांनी आडावन दवरिल्लें, गोठिल्लें उदक प्रचंड नेटान हुंवाराच्या रूपान व्हांवंक लागलें. ताका लागून पर्वतांच्या पायथ्यां कडेन ल्हान-ल्हान न्हंयांच्या उदकान व्हांवोवन हाडून उडयल्ल्या माती-रेंब्याच्या वाठारांत उदक भरलें. ऋग्वेदांतल्या दंतकथांनी हिमनगांचे वितळावणेचे संदर्भ आयल्यात. तांचें चित्रण इंद्र आनी वृत्रासूर हांचे मदल्या झुजाच्या रुपांत केलां. सात विशाल रुपांतल्यान व्हांवपी उदकाक ऋग्वेदांत 'सप्तसिंधू' म्हणलां. पूर्वे कडल्यान पश्चिमे मेरेन 'सप्तसिंधू' म्हण वळखिल्ल्या न्हंयांक सरस्वती, शुतुद्री (सतलज), विपासा (व्यास), असिक्नी वा चंद्रभागा (चेनाब), परुष्मी वा इरावती (रावी), वितस्ता (झेलम) आनी सिंधू (इंडस) अशीं नांवां दिल्यांत.

''हातूंतल्यो फकत सरस्वती आनी सिंधू न्हंयो थेट दर्या मेरेन व्हांवतात. सरस्वतीची तुस्त करपी ऋग्वेदांतल्यो ऋचा घडये सगळ्यांत प्राचीन ऋचा आसूं येत. 8000 वर्सां परस चड काळा आदीं त्यो रचिल्ल्यो आसूंक जाय.''

हें सगळें आयकून आमची मती गूंग जाली; आमच्या भुगोलाच्या पिरेडा परस ह्यो गजाली कठीण आशिल्ल्यो, पूण आयकूंक बऱ्यो दिसताल्यो. संगणकान प्रदर्शीत केल्ल्या नकाशाक लागून हें कळूंक सोंपे जालें. ना जाल्यार तें आमचे तकलेंत कशेंच वचपाचें नाशिल्लें.

''पूण आज्या, न्हंयांचें मार्ग बदलप आनी न्हंयो सुकप बी कशें घडटा? हिमालय संवसारांतलो सगळ्यांत व्हड जलस्त्रोत आनी येदे व्हड लोकसंख्येचो पोशक-स्रोत कसो जावंक पावलो?'' शारदान प्रस्न केलो.

''शारदा, ह्या तुज्या प्रस्नाची जाप गिरीधर काका बरे तरेन दितलो.'' आज्यान म्हणलें.

आमी सगळे जाण भितरले भितर पिरंगले. गिरीधर काका हो एक नांवाजतो भूंयगर्भ विज्ञानीक आनी हिमनग शास्त्रज्ञ आसा. हालीं तेंपार तो चडसो वेळ हिमालयांतूच रावता. ताचे कडेन जायतें गिन्यान आसा. पूण खरें सांगपाचें म्हणल्यार तो सामको वाजेवणो.

गिरीधर काकान आज्या कडेन पळोवन मान हालोवन सांगपाक सुरवात केली. आज्यान आमकां संस्कृत शिकोवपा खातीर लायिल्ल्या फळ्याचेर चित्रां काडीत तो सांगतालो. तो खऱ्यांनीच एक बरो चित्रकार. ताणें जें कितें सांगलें तें सगळें सांगीत बसल्यार तुमकां वाज येतलो. हाचे पयलींच लँडसॅट, भूंयगर्भी प्रवाहमार्ग, आटिल्ल्यो उपन्हंयो अशीं उतरां आयकून तुमची तकली भेरेल्या आसतली.

ताच्या म्हणण्याचो सारांश असो; आमचे धतरिच्या म्हणल्यार पृथ्वीच्या पोटांतल्यान भायर येवन सुकिल्ल्या लावाचें कवच, सुकतकीच घट जालां आनी पृथ्वीच्या गुरुत्वाकर्शणाक लागून थंयच दसून उरलां. ह्याच कवचाक वा धांपण्याक आमी



लोथलः चित्रकाराचें कल्पचित्र

'भूंय' म्हणटात. तिचे जायते थर आसात. पृथ्वीच्या पोटांतली उश्णताय आनी सुर्याची उश्णताय हातूंतल्या तापमानाच्या फरकाक लागून हे थर वयर-सकयल-सायडीक अशे हालतात. ह्याच हालचालीक आमी भूंयकांप म्हणटात. तंत्रीक परिभाशेंत ह्या हालचालींक 'भूंयवर्तनी' (टॅक्टॉनीक) हालचाली म्हणटात. ह्या हालचालींक लागून ज्वालामुखी जातात. ह्याच हालचालींक लागून एके कडेन पर्वतांची उंची उणी उणी जायत थंय देंगणां वा घाट निर्माण जातात, जाल्यार दुसरे कडेन देंगणांचे सुवातेर पर्वत उबे जातात. सरस्वतीन आपणालो प्रवाह-मार्ग बदलपाचें हेंच मुखेल कारण. ह्याच टॅक्टॉनीक हालचालींक लागून यमुना न्हंयेन आपणालो मार्ग बदल्लो. ती सरस्वतीक वचून मेळनासतना गंगेक वचून मेळ्ळी. तेच तरेन सतलज न्हंयेचें उदक सिंधू न्हंयेक मेळ्ळें.

अशे तरेन ही विशाल न्हंय बारीक जायत गेली आनी उपन्हंयांच्या उणावाक लागून धर्तरि वयल्यान लुप्त जाली.

पृथ्वी भितर तीन चतुर्थांश उदक आसा आनी तिचें सगळ्यांत वयलें कवच सदळ मातयेच्या थरांचें आसता, जाका भूंयभाग म्हणटात. हो भूंयभाग, तापमानांतलो फरक तशेंच गुरुत्वाकर्शणाक लागून, तशेंच जलाशयांतल्या उदकाचे जावपी हालचालींक लागून फाटींफुडें जाता, ताका लागून जाचेर आमी रावतात तें धतरेचें कवच दक्षिणे कडल्यान उत्तरे कडेन वचत आसता. हेच तरेन आमचो भारत देस, जो पन्नास दशलक्ष वर्सां पयलीं एक जुंवो



राखीगढी हांगा मेळिल्लीं खेळणी

आशिल्लो तो सुमार 6,000 कि. मी. अंतर पार करून आशियाई पठाराक - महाव्दिपाक येवन आपटलो.

अशे रितीन कवी कालिदासान जाचें वर्णन पर्वतांचो राजा अशें केलें, तो हिमालय अस्तित्वांत आयलो. आयज लेगीत आमचो भारत आशियाई पठाराक दर वर्सा 6 सेंटीमीटर हे सरासरीन विरुद्ध दिशेन धक्के मारीत आसा आनी ताका लागून दर वर्साक हिमालयाची उंची 1 सें. मी. न वाडत आसा.

हें सत्य समजून घेयात, हो महाकाय पर्वत 2500 दशलक्षां परस चड लोकांक उदकाची पुरवण करता. सिंधू, सतलज, सरस्वती, महाकाली, कर्नाली, शारदा, थिंग्वो, लोहित आनी ब्रम्हपुत्र ह्या न्हंयांच्या उदकाचो स्रोत म्हणल्यार तिबेटांतलें मानस सरोवर. उत्तर हिमालयांतल्यो पर्वतरांगो इरवादी, साल्विना ह्या भारतांतल्या न्हंयांक आनी मिकाँग, यांगत्सी, हवागहो आदी चीन देशांतल्या न्हंयांक उदका-पुरवण करतात.

हिमालयांतलो दरेक हिमनग ह्या उपखंडांतले दरेके मुखेल न्हंयेक मुखा वयलीं 10,000 वर्सां उदका पुरवण करपा इतले तांकीचो आसा. हिमालयांत आदल्या तेंपार सतद्री न्हंय सरस्वतीचो स्रोत आशिल्ली आनी मागीर पोंटा साहिब थळा कडेन यमुना सरस्वतीक येवन मेळटाली. देखून सरस्वती न्हंयेक 'नदि तमे' म्हणल्यार सगळ्या न्हंयां मदीं व्हड अशी नामना लाबिल्ली. ही नदी त्या काळांत 5,00,000 लोकांक पोसताली असो अदमास आसा. पूण ख्रि.आ. 1900 ते 1400 वर्सां मजगतीच्या 400 वर्सांच्या काळांत हिमालयांत एका फाटोफाट एक अशे भूंयकांप जाले, जांकां लागून हिमालयाचो पृश्टभाग अस्थीर जालो. ताका लागून सतद्री न्हंय सिंधूक वचून मेळ्ळी आनी यमुनेक प्रयाग हांगा गंगेक वचून मेळचें पडलें. अशे रितीन ज्या काळांत बलराम तिर्थयात्रे खातीर आयिल्लो, त्या काळांत, उदक आटिल्ले सरस्वती न्हंयेक ल्हान ल्हान तळ्यांचें आनी व्हाळांचें रूप फावो जाल्लें.

सुमार त्याच काळांत पुराय संवसारांत एक भिरांकूळ दुकळ पडलो, जाका लागून संवसारांतल्यो जायत्यो सभ्यतायो नश्ट जाल्यो. पूण भारतांत सरस्वती न्हंयेक लागून चड हानी जावंक पावली ना. आरे, पळय! ह्या इतिहासीक

घडणुकांनी म्हाकाय बी भूल घाली. जायतो वेळ हांव उलयत रावलों.

सगळ्यांकच हे तंद्रेंतल्यान भायर काडीत शालिनीन विचारलें, ''आज्या, जर सरस्वती ही एक प्राचीन नदी आनी आमचे भारतीय सभ्यतायेंचें उद्‌गमस्थान जाल्यार तिचे देगेर आदल्या वसणुकांतल्यान प्राप्त पुरावस्तूंचे अवशेश मेळिल्ले आसूंक जाय, न्हय? सरस्वती न्हंये देगेर अशे खंयचेय पुरातत्वी अवशेश मेळ्ळ्यात व्हय?

घडये पुरो जाल्लें म्हूण आसत वा फकत आपुणूच उलयतां अशें जावचें न्हय म्हूण आसत, आज्ज्यान शुश्क सरस्वती न्हंये देगेर जाल्ल्या पुरातत्वी वावरा संबंदी उलोवपाक विष्णू काकाक सांगलें. भारतीय पुरातत्वी सर्वेक्षण खात्यांत विष्णू काका एक पुरातत्वशास्त्रज्ञ म्हूण वावुरता.

## सरस्वती सिंधू सभ्यताय

विष्णू काकान सुरवात केली, ''तुमकां सगळ्यांक हडप्पा आनी मोहेंजोदडो वाठारांनी जाल्ल्या उत्खननां विशीं खबर आसाच. हडप्पा आनी मोहेंजोदडो ह्या वाठारांतले सभ्यतायेक सामान्यपणान इंडस वा सिंधू संस्कृताय म्हूण वळखतात. हीं उत्खननां 1921 आनी 1922 वर्सा जाल्लीं. सिंधू न्हंयेचेर उत्खनन केल्लीं चडशीं थळां आयज पाकिस्तानांत आसात, हें तुमकां खबर आसाच. देखून उपग्रह प्रतिमा, भूगर्भी आनी हिमनगीय पुराव्यां उपरांत निर्माण जाल्ले उमळशिकेंतल्यान सरस्वती खोऱ्यांत म्हणल्यार घळींत (Basin) लेगीत उत्खननांक सुरवात जाली. आता मेरेन 2600 परस चड थळां सोदून काडून तांचें उत्खनन केलां. ह्या उत्खननांनी 20-40 हजार वर्सां आदल्यो सभ्यतायो सापडल्यात. हडप्पाचीं पुरातत्व थळां आनी सरस्वती देगे वयलीं पुरातत्व थळां हातूंत व्हडलोसो फरक दिश्टी पडुना. बिकानेरांतलें कालिबंगन हें सरस्वती सभ्यतायेंतलें सगळ्यांत व्हडलें केंद्र. ही सभ्यताय फकत पशुपालना पुरतीच सिमीत नाशिल्ली. ती एक गिरेस्त समुद्री सभ्यताय आशिल्ली आनी तिचो वेपारी संबंद सिरिया आनी मेसोपोटेमिया हांगाच्या सभ्यतायां कडेन लेगीत आशिल्लो.'' ''तशें जाल्यार, ही इजिप्तपूर्व सभ्यताय नाशिल्ली मू?'' रामून मदींच प्रस्न केलो.

''हय. दुबाव विरयत,'' विष्णू काकान फुडें सांगलें, ''सरस्वती न्हंयेचे देगे वयल्या हेर महत्वाच्या थळांनी म्हणल्यार लोथल आनी बेटव्दारिका ह्या बंदरांनी, रोपर, राखीगढी, चुन्हूदारो ह्या नगरांनी आनी धोलाविरा हातूंतल्या कांय नगरांनी सुमार 40,000 लोक रावताले.

तुमी जाणात, धोलाविरा हांगा उदका संवर्धन येवजण आशिल्लें संवसारांतलें पयलें वयलें थळ मेळ्ळां म्हूण? उपग्रह चित्रांत भुंये पोंदचीं धरणां, शाराचे तटबंदे कडल्यान भितर मेरेन पावसाचें उदक आडावपी सुनियोजीत वेवस्था दिश्टी पडल्यात. साप्प उणो पावस पडपी ह्या वाळवंटांत अशे तरेचे जल-संधारण वेवस्थे बगर वसणूक तिगून उरप शक्यच नाशिल्लें.

ह्या सगळ्या सुवातींचेर आमकां सांडपाण्याची वेवस्था, पक्क्या विटांनी बांदिल्लीं घरां अश्यो जायत्यो गजाली पळोवंक मेळ्ळ्यात. भौशीक सुवातींचेर अग्नीकुंडां बांदिल्लीं. दरेका घरा लागीं कोयरा खातीर एक 'शोश-खड्डो' (फोंड) आसतालो. शारांतलीं गटारां घनकोयर पडून तुंबचीं न्हय म्हूण ही वेवस्था आशिल्ली. गटारां, देखरेख-विवरां आनी भुंये पोंदच्यो टांकयो हांकां लागून शारांत नितळसाण उरताली.



मातयेचीं खेळणीं



**श्री पशुपतीनाथ**

ह्या वाठारांतल्यान आयदनां, मुर्ती तशेंच माती, शिंपल्यो आनी धातू पसून तयार केल्ले अलंकार लेगीत मेळ्ळ्यात. हांगाच्या लोकांनी एक लिपी वापरल्या, जी हडप्पाचे लिपये भशेनच आसा. ही लिपी वाचपाचे जायते यत्न जाल्यात. पूण अजून मेरेन ती कशी वाचची ह्या निश्कर्शा मेरेन जाणकार पावूंक नात. ती लिपी आजुनय बी एक कुवाडें कशीच उरल्या.

पूण एक गजाल स्पश्ट आसा आनी ती म्हणल्यार ही सभ्यताय हेर खंयचीच न्हय तर सिंधू आनी सरस्वती न्हंयां मदलीच संस्कृताय आसा. देखून आमी आयज ते पुराय सभ्यतायेक सरस्वती-सिंधू सभ्यताय म्हूण पाचारतात. आर्य-सभ्यताय निर्माण करून विकसीत केली त्या आर्यांचें मुळपीठ हेच संस्कृतायेंत आशिल्लें. पुराय संवसाराक सुसंस्कृत करपाचें सपन तांणीच पळयल्लें. तांची उद्घोशणा आशिल्ली, ''कृण्वन्तो विश्वमार्यम्'', म्हणल्यार 'सगळो संवसार सुसंस्कृत करुया'- ही फकत काल्पनीक वा शाब्दीक घोशणा नाशिल्ली. तांकां त्या वेळा वयल्या संवसाराची पुराय वळख आशिल्ली''. हाचेर कृष्णान सट् करून विचारलें, ''तांकां हेर देशांची वळख कशी जाल्ली?

''ती वळख घडपाचें कारण म्हणल्यार दर्या मार्गान ते पयसुल्ल्या देशांनी वताले आनी देखून त्या काळांतल्यो नांवाजत्यो सभ्यतायो तांका खबर आशिल्ल्यो''.

शारदान परतून काकाक मर्दींच विचारलें, ''काका, समुद्री सभ्यताय म्हणल्यार कितें?''

''आगो, जे संस्कृतार्येत पयसु-पयसुल्या देशां लागीं समुद्री मार्गान वेपारी संबंद निर्माण जातात, तिका समुद्री संस्कृताय म्हणटात. त्या काळांत भारतांत दोन बंदरां आशिल्लीं. तातुंतलें यादवांचें बेटव्दारका हें पयलें, जें आयज उदका पोंदा गेलां आनी दुसरें म्हणल्यार लोथल. लोथल हें पुराय संवसारांतलें सगळ्यांत प्राचीन बंदर, लोथल हांगाची गोदी (कोठी) म्हणल्यार संवसारांतलें वेपारी उलाढालीचें पयलें ज्ञात, महत्वाचें केंद्र. थंयच्यान पश्चीम-आशिया आनी आफ्रिके वांगडा मणी, मोती आनी मोलादीक वस्तींचो वेपार चलतालो. हांगाचे वेपारी इजिप्त, बहरीन आनी सुमेरिया मेरेन वेपार करताले.''

काकान आनीक माहिती दितना सांगलें, ''त्या वेळा वयले शास्त्रज्ञ समुद्रसफरीं खातीर शिंपयेच्या वा कट्ट्याच्या दिशादर्शक यंत्राचो उपेग करताले. तांणी मळबाची 8-12 वांट्यांनी विभागणी केल्ली. ग्रीक लोकां पयलीं 2000 वर्सां तांणी नखेत्रांचो अभ्यास केल्लो आनी प्रगत नौकानयन शास्त्राची बुन्याद घातिल्ली.''

लोथल हांगाच्या लोकांनी सगळ्यांत सुरवेक चित्रकला आनी मुर्तीकलेंतल्यान यथार्थ चित्रणाक सुरवात केली. ह्या चित्रांतल्यान आनी मुर्तींतल्यान कांय देखदिण्यो काणयो सांगिल्ल्यो आसात, ज्यो आयज लेगीत प्रचलीत आसात.

धातूकाम, भांगर आनी हेर जडजवाहीर तशेंच सुंदर नक्षीकाम केल्ल्यो वस्ती, हांचे वयल्यान लोथल हांगाच्या लोकांची गिरेस्त संस्कृताय आनी तांची सौंदर्यदृश्ट हांची गवाय मेळटा. ह्या अलंकारांक पश्चिमेंत भोवच मागणी आशिल्ली. उत्खननांनी पेटुलां, दांतोण्यो (फण्यो), सळ्यो आनी कानांतलीं तशेंच डूल तयार करपी हस्तीदंताचो एक कारखानो सापडला.

तांबें, शेलखडी, मौल्यवान फातर असलो कच्चो माल मोहेंजोदडो आनी हडप्पा हांगाच्यान व्हडा प्रमाणांत लोथल हांगा मागोवन तो लागींच्या खेडेगांवांनी बाजारी मोलाच्यो वस्तू तयार करूंक धाडटाले. थंय कांश्या कुराडी, नुस्तें धरपाच्यो गरयो, वर्तुळां, शित्री, भाले आनी माळो अशा तांब्याच्या वस्तुंचें व्हडा प्रमाणाचेर उत्पादन जातालें. घरगुती गरजो भागोवपा खातीर फातराच्यो वस्ती तयार करताले. सक्कर घाट वा कर्नाटकांतल्या

बिजापूर हांगाच्यान उत्कृश्ट दर्जाची शेलखडी आयात करताले. धोलाविरा आनी बेटव्दारकेंतल्यान शंख मागयताले,'' विष्णूकाकान हांगा मातसो विसव घेतलो.

कितें अजाप! सुमार 3000 वर्सां आदीं आमचे पूर्वज दर्या मार्गान उद्देगीक उत्पादनांचो वेपार करताले. ही अजापभरीत गजाल आयकून आमी थक्क जाले. ''हें कशें शक्य आसा? दर्या मार्गान वेपाराची सुरवात ग्रीक आनी इजिप्शियन लोकांनी केली न्हय?'' रामून दुबाव उक्तायलो.

''ना रामू. हालींच्या सोदां वयल्यान ह्या काळांत भारतीय आनी सुमेरियन लोक ह्या वाठारांनी दर्याचेर शेक गाजयताले, हें सिद्ध जालां.'' काकान फुडें सांगलें,'' सुमार 3000 वर्सां पयलीं जेन्ना सरस्वती न्हंय आटूंक लागली तेन्ना थंयच्या लोकांनी हेर न्हंयांच्या कांठार स्थलांतरीत जावपाक सुरुवात केली.

पुराणांनी अशे तरेच्या स्थलांतरणांचो उल्लेख आयला. काय वर्सांच्या काळांत हातुंतले कांय लोक दक्षिणे कडेन स्थलांतरीत जाले आनी गुजरात आनी कोंकणांत स्थायीक जाले. ह्या लोकांक आयज लेगीत थंयचे थळावे लोक 'सारस्वत' म्हणटात. म्हाका दिसता तुजें समादान जालेंच आसतलें'' विष्णूकाकान आपलें म्हणणें सोंपयतना म्हणलें.

पूण अचकीत म्हज्या मनांत एक दुबाव आयलो. हांवें विचारलें, ''आज्या, हें सगळें बरें आसा, पूण आटिल्ली, लुप्त जाल्ली नदी ती हीच 'सरस्वती न्हंय' हें तूं कशें सिद्ध करतलो? हिमालया साकून तें कच्छाच्या रणा मेरेनच्या सगळ्या तळयांतल्यान आनी व्हाळांतल्यान व्हांवपी उदक तेच सरस्वती न्हंयेचें, अशें म्हणूंक कितें आदार आसा?'' आजो हांसलो, ''हांव चिंत्तालों, आजून मेरेन हो प्रस्न कोणेच कसो विचारूंक ना काय म्हूण. तुवें विचारून बरें केलें. हांव सांगतां तुका. म्हाका एक सांग, तुजें नांव 'हर्ष' हें तूं कशें सिद्ध करशी?''

''आंवय, तें सामकें सोपें. जे अर्थीं म्हाका सगळे जाण हर्ष म्हणटात आनी जे अर्थीं म्हजे शाळेंतले नोंदींत 'हर्ष' हें नांव आसा, तें अर्थीं म्हजें नांव हर्ष.'' हांवें म्हणलें.



**सरस्वती महानदी रुपा कालवो**

"तुज्या आवयबापायन तुजें नांव 'हर्ष' दवरलें म्हणून तूं हर्ष, बरोबर? तूंच हर्ष म्हूण सिद्‌ध करपाक वस्तू रुपांत कसलोय पुरावो आसा तुजे कडेन?"

"हय आज्या, म्हजो पासपोर्ट" हाचेर सगळे जाण हांसले.

"आरे, तो तुज्या आवय-बापायन तुज्या जल्मा उपरांत तुज्या नांवाची नोंद केली म्हूण आसा. तुका एक गजाल सांगतां. इतिहासीक थळांचीं नांवां निश्चित करतना सगळ्या इतिहासकारां मुखार होच प्रस्न उबो रावता. खंयच्यान वाठारांतले थळावे लोक ज्या नांवान त्या थळाक उलो मारतात, तें त्या थळाचें खरें नांव, अशें ते मानतात, वा शिलालेखांतलो उल्लेख खरो मानले बगर तांचे मुखार आनीक पर्याय आसना. मागीर ती इजिप्तांतली नायल नदी आसूं वा दक्षिण अमेरिकेंतलें ॲमॅझॉन आसूं वा हेर खंयचेंय थळ.

जायते फावटी थळावे लोक खंयचेंय थळ वा नदी आदींचो उल्लेख त्या थळाचें वा नदीचें जें प्राचीन नांव आसता त्याच नांवान करतात." आज्यान मुखार सांगलें, "हें पळय, खंयचेय गजालीचो इतिहास वेवस्थीत बरोवंक



**सरस्वती सरोवर**

तीन स्रोतांचो वापर करतात. पयलो स्रोत पुरातत्व शास्त्र, दुसरो शिलालेख वा हेर कसलोय अभिलेख आनी तिसरो स्रोत थळावी मौखीक परंपरा वा लोकवेद. ह्या तिनूय स्रोतां बगर खंयचेच सुवातेचो इतिहास परिपूर्ण जायना. तीच गजाल सरस्वती न्हंयेच्या इतिहासाची.''

''आतां तुजो दुसरो प्रस्न. जमनी पोंदच्यान व्हांवता ती सरस्वती नदीच कित्या वयल्यान? तुमकां हांवें हाचे आदींच सांगिल्ले प्रमाण जोधपूरचे केंद्रीय मरुभूमी क्षेत्र अनुसंधान संस्थेन भारतीय अवकाश अनुसंधान संस्थे (इस्रो) च्या आदारान व्यापक संशोधन केल्लें आनी सरस्वती न्हंयेच्या शुश्क, आटिल्ल्या प्रवाह मार्गाचेर, कैलास मानस सरोवरा कडल्यान गुजरात मेरेन एक भुमीगत न्हंय व्हांवता, असो निश्कर्श काडिल्लो.''

''ह्या वावराचें श्रेय डॉ. यशपाल आनी तांच्या सांगात्यांक वता. भाभा परमाणू शोध अनुसंधान हे संस्थेन ह्याच सुमाराक 250 कि. मी. लांबायेच्या न्हंयेच्या पात्रांत 800 परस चड कूपनलिका मारल्यो आनी तातूंतल्या उदकाचें ट्रिशियम विश्लेशण केलें. त्या विश्लेशणा वयल्यान, कूपनलिकांतल्यान प्राप्त जाल्लें हें भूगर्भीय उदक हिमालयांतल्या हिमनगांचें आसा आनी तें 800 ते 14,000 वर्सां आदलें आसा, हें सिद्ध जालां. अशे तरेन, लोकवेदांतले उल्लेख, थळाव्यो मौखीक परंपरा, उपग्रहा वरवी मेळिल्ल्यो प्रतिमा, भूगर्भीय, हिमनगशास्त्रीय

पुरावे तशेंच पुरातत्वी पुरावे, हे सगळे पुरावे सरस्वती न्हंयेचेंच समर्थन करतात. तातूंत महत्वाची गजाल अशी, परंपरा, विज्ञान आनी आधुनीक विश्लेशण हांचे मर्दी कसलोच अंतर्विरोध ना. उरफाटे त्या तिनांचेय निश्कर्श एकेच गजाली कडेन बोट दाखयतात. म्हाका दिसता, घडये संवसाराच्या इतिहासांत पयलेच खेपेक सगळ्या ज्ञानशाखांचें एकमत जालां.''

## मुखार कितें करचें?

''हें सगळें बरें आसा. पूण आयज हे माहितीचो वेव्हारीक उपेग कितें? आमी कोण जावपाक जाय तें चिंतपाचें सोडून आमचे पूर्वज आनी आमचो इतिहास कितलो वैभवशाली आशिल्लो ताचेच धोल वाजोवपाक आमी भारतीय भोवच हुशार'', आमचो उद्येजक आशिल्लो मुकेशमामा कागाळीच्या स्वरांत उलयलो.

ताचेर आज्यान म्हणलें, ''सरस्वती न्हंये विंशींचे हे माहितीचो आमकां भोवच उपेग आसा. संवसाराच्या खंयच्याच भागांत आयज मेरेन घडूंक ना अशा एका म्हान अभूतपूर्व कार्याक भारतान सुरुवात केल्या. पृथ्वीचेर गंगा हाडपाच्या भगीरथाच्या यत्ना भशेनच हें म्हान कार्य आसा.''

जी नदी 3000 वर्सां आदीं भुमीगत जावन धतरि वयल्यान गुप्त जाल्ली, ती आयज 200 दशलक्ष लोकांक जिवदान दिवपा खातीर परतून अवतरपाक लागल्या. ती लोकांक अन्न आनी उदक दितली. आमच्या 5000 वर्सां आदले सभ्यतायेची जल्मदात्री आशिल्ली सरस्वती न्हंय, तिणें त्या वेळार राजा नहुषाक जी समृद्धी दिल्ली, तेच धनधान्य रुपांतले समृद्धीचो वर्शाव करपा खातीर तिणें आयज परतून अवतार घेवपाची आसा. सरस्वतीच्या पुनरुज्जिवनाच्या ह्या कार्यांतलो पयलो पावंडो म्हणल्यार आदिबद्री ते पेहोवा (महाभारतांतलें प्रथदक) मेरेनचो तिचो पोन्नो प्रवाहमार्ग निवळ करप आनी तिचे बंद जाल्ले भूंयमार्ग उक्ते करून ते जोडप. हें काम पुराय जालां.

'राजस्थान नहर' ह्या नांवान राजस्थानांत 1000 कि. मी. च्या सरस्वती महानदी रूपा कालव्याचें (पाटाचें) काम लेगीत पुराय जालां. ह्याच कालव्याचो 150 कि.मी. मुखार विस्तार करतकीच सरस्वतीचें उदक गुजरात राज्यांत पावपाचें आसा.

हे पुनरुज्जिवीत न्हंयेक कैलास पर्वतांतल्या मानसरोवर हिमनगांतल्या उदकाचेर जगपी सतलज आनी बियास न्हंयांचें उदक लाबतलें. ह्या न्हंयांचेर पोंग आनी भाक्रा ननगल हांगा बांद बांदल्यात. हरिके हांगां बांदिल्ल्या धरणाचेंय उदक हे पुनरुज्जिवीत न्हंयेक मेळटा. ताका लागून राजस्थानांतली 10 लाख एकर जमीन लागवडे खाला आयल्या, आनी ताका लागून जोधपूर, जैसलमेर आनी गडरा रोड शारांक पिवपाच्या उदकाची पुरवण जाल्या.

सरस्वती न्हंयेच्या उदकाक लागून राजस्थानांत बदाम, ओलिव्ह, आनी हेर तेलबियांच्या पिकांनी वाड जाल्या तशेंच हरीत आच्छादनाक लागून जमनीची जल-संधारणाची तांक वाडल्या.

शिवालीक पर्वत, मरूस्थली, सौराष्ट्रांतलें चिखलान भरिल्लें कच्छाचें रण हांगाय हरीत आच्छादन वाडोवपाचे नदरेन काम चालू जालां. भाविकांक संतुश्ट करपा खातीर शिवालीक पर्वता सकयल्ल्या पठारांतल्या सरस्वती सरोवराची लेगीत पुनर्बांदावळ केल्या. हें सरोवर हरियाणांतल्या यमुना नगराचे उत्तरेक 40 कि. मी. चेर आदिबद्री लागीं आसा.

'कल्पकम् ॲटमिक सेंटर' हे संस्थेच्या डॉ. भट्टाचार्य हांणी दर्याच्या उदकाचें रुपांतर एका लिटराक फकत चार पैशे ह्या खर्चांत पिवपाच्या उदकांत करपाची प्रक्रिया सोदून काडल्या. ही प्रक्रिया वापरून सद्याच्या लुनी न्हंयेचें (आदली सरस्वती न्हंय) खारें उदक सावें करपाचो प्रस्ताव आसा.

देखून सरस्वती न्हंयेचें पुनरुज्जिवन हो राष्ट्रीय जल केंद्र (नॅशनल वॉटर ग्रीड) स्थापन करपाच्या प्रकल्पाचोच एक वांटो. ह्या प्रकल्पांत न्हंयो एकमेकांक जोडून, कृषी उत्पन्न तिपटीन वाडोवन ग्रामीण लोकांचें सशक्तीकरण करपाचे नदरेन, देशांतले दरेके न्हंयेक जितीजिवी दवरपाचो संकल्प आसा. ही गजाल घडटली तेन्ना, न्हाता आसतना जो श्लोक हांव म्हणटां:

**''ॐ गंगे च यमुने चैव गोदावरी सरस्वति।**

**नर्मदे सिंधु, कावेरी जलेस्मिन सन्निधिं कुरु॥**

तो श्लोक शब्दशः खरो जावंक पावतलो, न्ही?'' आज्याच्या तोंडार हांसो उदेलो.




**राष्ट्रीय जलसंकूल (Water Grid) येवजणे वरवी देशांतल्यो सगळ्यो न्हंयो जोडपाच्या प्रकल्पाचो प्रस्तावीत आराखडो**

‘‘खरेंच आप्पा. पूण आप्पा, सरस्वती न्हंयेक पुनरुज्जिवीत करपाची कल्पना कोणाची? कारण चडशे इतिहासकार भुतकाळांतली फकत तथ्यां सांगून वोगी बसतात. पुस्तकां बरयलीं काय आपलें काम जालें अशें तांकां दिसता. पूण एके लुप्त जाल्ले न्हंयेक पुनरुज्जिवीत करप आनी सगळ्या न्हंयांचें एक राष्ट्रीय जाळें विणप ही कल्पना अभियंत्याची तकली आशिल्ले व्यक्तिचीच आसूंक जाय. तीय बी ध्येयान झपाटिल्ले आनी खर निश्ठा आशिल्ले व्यक्तिचीच. कोण ही व्यक्ती?'' मुकेशकाकान विचारलें.

## डॉ. एस्. कल्याणरामन हांचें योगदान

‘‘खरें तुजें. ती ध्येय समर्पीत व्यक्ती म्हणल्यार डॉ. एस. कल्याणरामन. तांच्या अथक यत्नांक लागुनूच पवित्र सरस्वती न्हंयेच्या अभ्यासाच्या विंगड विंगड आयामां  विशींची आनी तिचे देगेर फुलिल्ले गिरेस्त संस्कृताये विशींची खोलायेन माहिती आमकां मेळूंक पावली.

डॉ. कल्याणरामन हे अर्थशास्त्रांतले पदवीधर. तांचें जायत्या भासांचेर प्रभुत्व आसा. तांणी भौशीक वेवस्थापन विशयांत फिलिपिन्स विद्यापिठाची डॉक्टरेट मेळयल्या'' आज्यान जाप दिली.

‘‘म्हजी कल्याणरामन नांवाचे एके व्यक्ती कडेन मनिला हांगां भेट जाल्ली. तो एशियन बँकेंत अधिकारी आशिल्लो. पूण मागीर ताची कांयच खबर मेळूंक ना. तो आनी हो एकूच काय?'' बाबान विचारलें.

‘‘हय. तेच डॉ. कल्याणरामन. एशियन बँकेंत 18 वर्सांची मोलादीक सेवा केल्या उपरांत, 1995 वर्सा सावन तांणी आपलें जिवीत पुरायपणान ‘सरस्वती नदी सोद प्रकल्पा' खातीर समर्पीत केलां. तांणीच भुंयेंपोंदच्या आनी भुंयेचेर व्हांवपी उदकाची पुरवण करून सरस्वती न्हंयेक पुनरुज्जिवीत करपाची, तिका व्हांवती करपाची तशेंच राजस्थान कालव्या वरवी सरस्वती न्हंयेच्या शुश्क प्रवाहमार्गांचो उपेग करून, सतलज न्हंयेक बारामाही न्हंय करपाची कल्पना मांडिल्ली.

‘आज्ज्या, ते इंटरनेटाचेर आसात?'' आमचे मदल्या इंटरनेट मोगी रामनाचो प्रस्न.

''रामन, तुवें गुगलाचेर फकत कल्याणरामन वा सरस्वती इतलेंच मारून जरी सोदलें, जाल्यार हांवें सांगलां तेपरस कितलीशीच चड माहिती तुका मेळटली. पूण तुमी कोणीच इंटरनेटाचेर आमगेल्या भारता संबंदीचें सर्फिंग करूंक ना, ही सामकी खेदाची गजाल.''

आज्यान घड्याळी कडेन पळयलें आनी व्हडल्यान म्हणलें,''आरे, वरां जार्ली बारा. चलात आपापल्या हांतरूणाचेर. आनी न्हिदचे पयलीं महाभारतांतलो मंत्र म्हणूंक विसरूं नाकात.'' आमी सगळे बेगोबेग उठून न्हिदपाक गेले. पूण म्हाका खात्री आसा, सगळेजाण न्हंयांची माता - सरस्वती न्हंये विशींच चिंतता आसतले आनी आजो म्हणटा तो सरस्वती-श्लोक गुणगुणटा आसतले. तुमीय तो म्हणून आनंद घेवचो म्हूण तो हांगा दितांः

**सरस्वतिवाससमा कुतो रतिः, सरस्वतिवाससमा कुतो गुणाः।**

**सरस्वतिं प्राप्य दिवं गता जनाः सदा स्मरिष्यन्ति नदीं सरस्वतिम्॥**

**सरस्वति सर्वनदीषु पुण्या, सरस्वती लोकशुभावहा सदा।**

**सरस्वतिं प्राप्य जनाः सुदृष्कृतं सदा न शोचन्ति परत्र चेह च॥**

**(महाभारत, शल्य-गदा पर्व अध्याय 54.38.39)**

सरस्वतीच्या सांगातान रावपी व्यक्तीक जो अत्यानंद मेळटा तो हेर खंय मेळटलो? सरस्वतीच्या सान्निध्यांत रावपी व्यक्तीक जो भोवमान मेळटा तो हेर कडेन खंय मेळटलो? सरस्वतीचें दर्शन घेवन सर्गांत गेल्ल्या व्यक्तींक लेगीत सदांच तिची याद येत रावतली. सगळ्या न्हंयां मदली सरस्वती ही पवित्र न्हंय, ती सदांच लोक कल्याणा खातीर व्हांवता. जांकां सरस्वतीचो सहवास लाबला, ते ह्या संवसारांत आसूं वा नासूं, ते केन्नाच दुख्खी आसचे नात.

**॥ॐ तत्सत्॥**





## डॉ. एस. कल्याणरामन

(जल्मः1939)




एशियन बँकेंत 12 वर्सां मोलादीक सेवा केल्या उपरांत डॉ. कल्याणरामन हांणी 1945 वर्सा आपली जीण सरस्वती नदी शोध प्रकल्पाक समर्पीत केली. तांणी चेन्नय हांगा एक सरस्वती सिंधू शोध केंद्र (सरस्वती सिंधू रिसर्च सेंटर) स्थापन केलां आनी विंगड विंगड येवजण्यांच्या माध्यमांतल्यान ते तनामनान सरस्वतीच्या पुनरुज्जिवनाच्या कार्यांत गुंतल्यात. 1966 वर्सा 10 व्या विश्व संस्कृत संमेलनांत तांणी, भुमीगत उदक वयर काडून तें प्रवाहीत केलें जाल्यार सरस्वती न्हंयेक पुनरुज्जिवीत करूं येता, असो विचार मांडलो.

तांणी सरस्वती नदी आनी तिची सभ्यताय हांचे संबंदांतली सगळी माहिती एकठांय करून वाचप्यां खातीर 7 खंडांच्या एका व्हड ग्रंथाच्या रुपांत उपलब्ध करुन दिल्या. श्री. बाबासाहेब आपटे स्मारक समितीन 1999 वर्सा सरस्वती सोद वावरांत तांणी दिल्ल्या योगदाना खातीर 'वाकणकर पुरस्कार' दिवन तांचो भोवमान केला.

सरस्वती ही जगांतली सगळ्यांत प्राचीन अशी न्हंय आशिल्ल्यान तिच्या कांठार जाल्ले वसणुकेचे धागेदोरे जर आमका मेळपाक शकले, जाल्यार फकत भारताच्याच न्हय, तर पुराय जगाच्या इतिहासाचेर एक नवी नदर मारप शक्य जातलें. सिंधू संस्कृतीच्या सोदा उपरांत जशे मानवी वसणुकीचे, तिच्या विकासाचे नवे पांवडे मुखार आयले, तशेंच सरस्वती न्हंयेच्या सोदांतल्यान जांव येता, इतलें हें म्हान कार्य आसा... हो सगळो प्राचीन इतिहास आयचे नवे पिळगे मुखार वचपाची गरज आसा, अशें म्हाका मनाकाळजा सावन दिसता. ह्या उपक्रमांतल्यान ह्या अंतःसलीला सरस्वतीचेर नवो उजवाड पडटलो आनी नवे पिळगेक तिचेर अदीक संशोधन करपाची प्रेरणा मेळटली, अशी आस्त परगटायतां.

**श्री. श्रीनिवास धेंपो**

प्रकाशकः श्री. बाबासाहेब आपटे स्मारक समिती ट्रस्ट, बेंगळुरू